# जाग

वर्स २६ ◇ आंक २ ◇ सप्टेंबर १९९९

संपादपी : रवीन्द्र केळेकार

वावुरपी संपादपी : माधवी सरदेसाय

उजवाडावपी : सुमन्त केळेकार
प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय.

अक्षर जुळणी : तन्वी ग्राफिक्स,
बी-०४, आषाढ, माडेल, मडगांव.

छापपी : न्यू एज प्रिंटर्स,
पणजी, गोंय.

कवर चित्र : लइराई कंप्यू.

## ह्या आंकांत



| | | |
|---|---|---|
| वर्सुकी पटी | : | रु. १००/- |
| विद्यार्थ्याखातीर | : | रु. ७५/- |
| तीन वर्सांची पटी | : | रु. २५०/- |

चेक वा ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.
(चेक मडगांव भायले बँकेचो आसल्यार रकमेंत धा रुपये अदीक जोडचे)

वेव्हाराचो नामो :

**जाग म्हयनाळें**
२०१-बी, सालदेल अपार्टमेन्ट्स
रूअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव – गोंय ४०३ ६०१.

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. ९/-

## नदर संपादप्याची

**शिक्षक दिसा निमित्त्यान**

### देशभश्टे लोक तयार करपी कारखाने

तुमची आवय-भास खंयचीय आसूं, तशी, राष्ट्रभाशेच्या पाटार तुमची खंयचीय भास बशिल्ली आसूं, 'इण्डिया दॅट इझ भारत' देशांत शेक चलता तो फकत इंग्रजी भाशेचो. प्रशासन चलता देशाचें इंग्रजींत. न्यायदान चलता इंग्रजींत. इंग्रजी जाणा जाल्ल्याकूच ह्या देशांत बऱ्यो नोकऱ्यो मेळटात.

पुणून, देशी भासांक तांच्या घरांतल्यानूय धांवडावन घालपाचो यत्न इंग्रजीन करचो ? आनी तो आमी सोंसूनै घेवचो ?

आयज गोंयांत सगळे कडेन इंग्रजी शाळा चलूंक लागल्यात. ह्या इंग्रजी शाळां मजगतीं कांय 'व्हीआयपी' शाळा आसात. समाजांत आमकां खाशेलो असो एक 'स्टेटस' आसा अशें मानपी आपणाल्या भुरग्यांक असल्या शाळांनी घालतात. असलेच एके शाळेंत म्हज्या एका इश्टाचो नातू शिकता. पयर हांव ह्या इश्टाक मेळूंक गेल्लों. ताणें म्हाका जेवपाक दवरलो. जिस्त दनपरां एकाक नातू शाळेंतल्यान परतलो. येतना 'टिचरि'ची एक चीट घेवन आयलो. चीट नातवाचे आवयक (म्हळ्यार, म्हज्या इश्टाचे सुनेक) आशिल्ली. इश्टान ती वाचली. चिटींत बरयल्लें, 'हो तुमचो भुरगो हरशीं हुशार. पुणून ताचें इंग्रजी साप दुबळें. घरांत तुमी ताचे कडेन इंग्रजींत उलोवंक जाय. ते बगर ताची इंग्रजी निवळपाची ना.'

इश्टान ही चीट म्हाका वाचूंक दिली. हांवें तिडकून मनांतल्या मनांत देवाक म्हळें, 'देवा, कित्याक तुवें धाडल्यांत हीं भुरगीं असल्या आवय-बापायगेर ? ह्या आवय-बापायंक भुरग्यांक कितें शिकोवचें तेंच समजना... घेवन वच परतीं तांकां जाता तितले बेगीन...'

शिक्षणाच्या मळार कितें चल्लां गोंयांत, समजना. राज्यकर्ते अन्नाडी. बरें आसा. कित्याक, अन्नाडी लोकांनीच तांकां वेंचून धाडल्यात. पुणून शिकोवपीय अन्नाडी आसचे हांगा ? भोंवतणच्या वाटाराक फावता असलें शिक्षण दिवपा बदला शिक्षणाक फावता तसलो वाटार तयार करपाक हांणी मुखार सरचें ?

एक खबर आयकल्ली –

असलीच एक इंग्रजी माध्यमांतल्यान शिकोवपी व्हीआयपी शाळा. शाळेंत भितर भुरग्यांक 'ॲडमिशन' दिवपाचें काम चल्लां. भायर एक पाटी लायल्या – no compulsory donation म्हूण. शाळेंतल्यो टिचरी फ्रॉक, मिडी, मॅक्सींत हे वटेन ते वटेन बोवाळटात त्यो दिश्टी पडटात. आनी भुरग्यांच्यो आवयो भुरग्यांक घेवन रांगेंत उब्यो आसात त्यो दिश्टी पडटात. भितर भुरग्याचो 'इन्टरव्ह्यू' चल्ला. इंटरव्ह्यू घेवपी टिचरा फाटल्यान 'कॅशर' बसला. ताचे मुखार एक 'कॅशबॉक्स' आसा. ताचेर voluntary donation म्हूण एक 'स्लीप' मारल्या. शाळा चलयतल्यांनी पयलींच भुरग्यांच्या आवय बापायंक तोंडान सांगिल्लें, ॲडमिशन मेळोवपाक आठ हजार रुपये 'वॉलंटरी डोनेशन' दिवचें पडटलें. दिवपाची तयारी आशिल्ल्यांकूच इंटरव्ह्यूक आपयल्ले.

रांगेंत एकली हिन्दू बायल आपणाल्या भुरग्याक घेवन उबी आसा. अर्द वर जालें, अजून ती धाव्या नंबरार आसा. वर देड वर तरी लागतलें अशें शेजरा उबी आशिल्ले दुसरे एकलेक ती म्हणटा. इतल्यांत भुरग्याक ताचो आजो दिश्टी पडटा. तो 'दादा... दादा' म्हणटा आनी धांवत आज्यासरीं वता. आजो पुडवेंकार. पुडवें, सदरो, माथ्यार तोपी ह्या भेसांतलो. ताका थंय आयिल्लो पळोवन भुरग्याची आवय फणफणटा. 'हो आनी कित्याक

आयलो हांगा, आमचें नाक कातरपाक?' मनांत म्हणटा आनी भुरग्याक मोट्यान ऑर्डर सोडटा, 'कम् हियर!' भुरगो इंग्रजींत जाप दिता, 'नो... नो... आय वीथ् दादा आजोबा.' भोंवतणीं कोण उबीं आसात तीं आवय पळेता आनी भुरग्याक सांगता, 'ऑल रायट... बट स्पींक इन इंग्लीश.'

नातवाक पळोवन आज्याच्या काळजांत मोग भरून येता. तो नातवाक उखलता आनी ताची पापी घेता. आवय नर्व्हस जाता. आपणा फाटल्यान उबे आशिल्ले एके आवयक ती सांगता, 'घरा मात्सो फोन करून येतां... म्हजी सुवात सांबाळ. दुसरेक कोणाक येवंक दिवं नाका' आनी म्हन्यांतल्या एका पसऱ्यार वचून घोवाक फोन करता. येवन परती रांगेंत उबी रावता. थोड्या वेळान एक मारुती गाडी येवन शाळे मुखार उबी रावता. गाडयेंतल्यान तिचो घोव देंवता. सफारी सूट, ब्रीफकेस ह्या थाटांत पुता सरीं वता आनी बापायक (म्हळ्यार भुरग्याच्या आज्याक) म्हणटा, 'दादा, तूं कित्याक आयला हांगा? तूं घरा वच. आमी ऍडमिशन घेवन येतात.'

'ना ना, दादा आजोबा वचूं नाका', भुरगो म्हणटा. बापूय ताचेर ताणशेता. 'कीप क्वायट... लॅट् हिम गो.' आनी बापायक सांगता, 'दादा, तूं वच... तूं बेश्टे त्रास घेवं नाका.'

'हांवें सांगिल्लेंच दादाक आमी ऍडमिशन घेवन येतात म्हूण... पुणून दादान आयकूंक नाका? कानामनारूच घेतलें ना.' भुरग्याची आवय घोवाक म्हणटा.

आज्याक वायट दिसता. तो नातवा कडेन पळेता, पुताच्या तोंडाकडेन पळेता आनी कांयच उलय नासतना नातवाच्या बोटांतलो आपलो हात सोडोवन मोन्यांनी चलपाक लागता. ताच्या दोळ्यांत दुकां व्हांवपाक लागतात. पुडव्यान तो तीं पुसता. फाटकाकडेन पावतकूच पर्थून नातवाक पळेता. मागीर तुरतुरीत चलूंक लागता.

ओदोळ कितें जाल्लें तें आतां लक्षांत आयलां जातलें. मांवाक पळोवन सून 'नर्व्हस' जाल्ली. हांगा रांगेंत उब्यो आसात त्यो सगळ्यो 'सोसायटी लेडीज्'. कांय दादलेय आसात सुटांबुटांतले. तेवूय 'सायबां'च्या वर्गांतले. मर्दींच पुडवेंकार मांवाक आयिल्लो पळोवन सून काचाबूल जाता आनी 'देवा, दादाक पळोवन टिचरीन भुरग्याक ऍडमिशन दिलें ना जाल्यार कितें जातलें?' म्हणटा. ही गांवठी भुरग्यांची शाळा न्हय. अशें मनांत म्हणून ती घोवाक फोन करपाक गेल्ली. 'बेगीन यो... दादाक घरा धाडून दी. नाजाल्यार भुरग्याक ऍडमिशन मेळपाची आस्त ना' अशें सांगून आयिल्ली. आनी घोव धांवन आयिल्लो.

फुडें कितें जालें तें आमी पळेलें.

आज्याच्या दोळ्यां मुखावयल्यान फाटल्या कांय वर्सांचे देखाव येवन वतात. चार वर्सां पयलीं नातवाक घेवन सून 'मॅटर्निटी होमां'तल्यान घरा आयिल्ली. आज्यान नातवाक अपुर्बायेन उखल्लेलो. आनी खोशयेन भरिल्ल्या काळजान ताणें सुनेक भांगराची एक सरपळी दिल्ली. त्या दिसा सावन आज्याक नातवाचो लळो. भायल्यान येनाफुडें सद्दां पाळण्यासरीं वचचें आनी नातवाचे तकलेवेल्यान ल्हवू हात ओडून खुशालभरीत जावचें. नातू दिमखुऱ्यांनी चलपाक लागलो तेन्ना आजोय ताचे बरोबर दिमखुऱ्यांनी चलपाक लागलो. कांय म्हयन्यां उपरांत नातू लुटूलुटू करून चलपाक लागलो तेन्ना आजो 'ठुमक चलत रामचन्द्र, बाजत पैंजनियां' हें गीत म्हणपाक लागलो. एकाच खिणांत तागेल्यो ह्यो सगळ्यो खोशयो कोणें झोंबून व्हेल्लेवरी ताका दिसल्यो. नातवाक कोणें तरी झोंपय मारून मुखावयलो उबारून व्हेला अशें दिसलें. आज्याचें आनी नातवाचें नातें बापूय पुताच्या नात्या परस दाट. तेंच आयज कोणें तोडून उडयल्ले वरी ताका दिसलें.

'आजोबा, वचूं नाका' अशें नातू म्हणटा आनी 'कीप क्वायट' म्हूण बापूय पुताक धेंगसून सांगता तेन्ना नातूय काचाबूल जाता. आज्या वांगडा सारिल्लें चार वर्सांचें पुराय भुरगेपण आपणाक सोडून गेल्लेवरी ताका दिसता. तो एका 'पब्लिक स्कुला' मुखार आयज उबो आसा. ताच्या जिवितांत हे मुखार जायते संघर्श येवपाचे आसात. ताकां तोंड दिवचे पयलींच ताचे कडल्यान ताचो मोग, ताचें भुरगेपण, ताची माती, मायभाशेचे ताची धाल, ताचें कवच कोणतरी उबारून घेवन गेला अशें ताका दिसता. कितें जालां तें ताका सांगूंक येना, पुणून ताका आपूण नागवलां म्हणपाचें कळटा.

खंय तरी बरयला हांवें हो किस्सो.

हो भुरगो आतां हे शाळेंत शिकतलो. कांय दिसांनी कॅट मॅट हॅट फॅ करपाक लागतलो. मागीर ल्हवू ल्हवू एक दीस इंग्रजींतल्यान उलोवपाक लागतलो. इंग्रजां सारको भेस करतलो. इंग्रजांची नदर घेतलो आनी समाजांत 'कोण तरी' जातलो. आपणाली देख, आपणाली भास, आपणाली संस्कृताय हांचे पसून पयस वतलो. आपणालें नीज होगडावन बसतलो. आनी देशभश्ट – डिनॅशनलायझ्ड – जावन पडटलो. फुडाराचे बरे नागरीक जावचे म्हूण आमी भुरग्यांक शाळेंत घालतात. बऱ्या नागरिकांक लागून देश बरो जाता अशें सगळेच सांगतात. पुणून, शाळेंत पावल दवरना फुडें जांचो देश कडलो संबंद तुट्टा, जे आपणाल्या देशा पसून, भाशे पसून, संस्कृताय पसून पयल्याच दिसा पयस वतात ते फाल्यां बरे नागरीक जातले अशी उमेद तरी कशी बाळगूं येता?

केदी फटवणूक चल्ल्या ही आमची! स्वराज्य मेळून आतां पांच दसकां जालीं, हेच फटवणुकेंत आमी जियेत आयल्यात. दिशीं दिशीं ती दाटून जायत चल्ल्या. कोण जागयतलो आमकां हे फटवणुकेंतल्यान? कसल्या घायांची आमी वाट पळेत बसल्यात? कांय पडले बगर आमी केन्ना जागे जावंक नात, जागे जावपाची आस्तूच ना.

एके वाटेन आमी लोकांक देशप्रेम ना म्हूण शिणटात. आनी दुसरे वाटेन देशा विशिंच्या आपलेपणाचे संबंदूच तोडून उडयतात. आमची राष्ट्रीय जिवितांतली ही विसंगती कोणाच्याच लक्षांत कशी येना, समजना. एक काळार फिरंग्यांनी आमच्या देशाकडले, भाशेकडले, संस्कृताये कडले आमचे संबंद तोडिल्ले आनी आमकां देशभश्टे करून उडयल्ले. आमी फिरंगी जावंक पावले नात, देशीय उरले नात. तेंच काम आमी आतां स्वराज्यांत इंग्रजी माध्यमांतल्या शिक्षणान मुखार व्हरपाक लागल्यात. आवय बापाय 'तुमी भुरग्यांकडेन इंग्रजींतल्यान उलयात' म्हूण टिचरी सांगून धाडटा तेन्ना देशभश्टेपणाचे प्रक्रियेक गती दिवपाचेंच काम त्यो करतात.

हें तांकांय समजना, आमकांय समजना.

खरेपणानशीं 'मेरा देश महान' मुदलांत आशिल्लो. शिक्षणाच्या मळा तर तो 'अती-महान' जाला!

ह्याच देशांत गिजुभाई बधेका नांवाचो एक शिक्षण तज्ञ जावन गेल्लो. ताराबाई मोडक, अनुताई वाग ह्यो तागेल्यो दोगी शिष्या शेजारच्या महाराष्ट्रांत आयुष्यभर भुरग्यांच्या शिक्षणाचो वावर करीत आयिल्ल्यो. रवीन्द्रनाथ टागोरांनी शिक्षणाच्या मळार एक नवो प्रयोग शान्तिनिकेतनांत चलयल्लो आनी बेसिक एड्युकेशन नांवाची एक क्रान्तिकारी शिक्षण पद्धत सो गांधींनी ह्याच देशांत समाज बदलपाचो वावर सुरू केल्लो. त्याच देशांत 'भुरग्यांकडेन इंग्रजींत उलयात' म्हूण सांगून धाडपी नवे 'तज्ञ' निर्माण जावचे?

देश खंय आशिल्लो, खंय वचून पडला!

* * *

खऱ्यांनीच 'स्ट्रीट प्ले' खातीर कितलो सुंदर विशय आशिल्लो! पाड पडूं आमच्या साहित्यकारांचें. दळदिरे साहित्य अकादेमीच्यो तसल्यो मेळच्यो म्हूण कविताच बरोवपांत गुल्ल उरल्यात. समाज बदलपाचें एक प्रभावी माध्यम आमी लोकांचे मनरिझोवणेचें एक साधन करून उडयलां

कोंकणीचो उपेग नवें गोंय निर्माण करपा खातीर जावंक जाय आशिल्लो. समाजांत जें किर्ते नश्टें, पाडें, कुसकें मानभौमान जोडून बसलां ताचीं फकांडां मारून तें हुमटून काडपा खातीर आमी कोंकणीचो उपेग करूंक जाय आशिल्लो.

तिडक मारता 'देशप्रेमी' लोकांची. दळिद्रे फुंदासांव ओरियेन्तिच्या नांवान शंख मारीत बसल्यात. सभाग्यांनो, तुमच्याच शेजरा देशभश्टे लोक निर्माण करपी कारखाने शाळांच्या रुपांत तुमच्या सरकारानूच उबे केल्यात ते दिश्टी पडनात व्हय तुमकां? दोळे फुटल्यान काय किर्ते तुमचे?

## निर्जीव अन्न

'आयज रातचो किर्ते जेवतलो?' गोदूबायन विचारलें.

'तांबड्या तांदळांची पेज घाल' म्हळें. तोंडाक लावपाक दोणांतले आंबले कुडको.पुरो...'

'पेज घालतां. पुणून तांबडे तांदूळ खंयच्यान हाडूं?'

'खंयच्यान म्हळ्यार? मेळनात?'

'ना...'

'यें:ऽ अशें कशें जातलें? शांबाक, वेंकटेशाक, बाबूलीक विचार... तांगेर मेळटले...' हांवें म्हळें.

'खंयच मेळपाचे नात... तांबडे तांदूळ आतां कोण रोयीय नात आनी कोण खायीय नात.' गोदूबायन जाप दिली आनी तरी आसतना पुष्पा, गुलाबी, सगळ्यांक ताणें तांबडे तांदूळ मेळटात जाल्यार पळोवपाक धाय दिकांनी हागेर तागेर धाडून दिलीं. खंयच मेळ्ळे नात.

'कसले तांदूळ खातात तर हे लोक?' हांवें उद्वेगान विचारलें.

'हे, नवे आयल्यात ते...' अशें म्हणून गोदूबायन तांदळांचीं तीन चार नांवां घेतलीं. म्हाका हीं सगळीं नांवा नवीं. केन्ना आयकूंक नाशिल्लीं.

म्हाका आकांताचो धसको बसलो.

वर्ध्याक रावतालों ते मुस्तींत आमचे संस्थेंत त्यागीजी नांवाचो एकलो देहरादूनचो काम करतालो. आमी सगळे हेवटेन तेवटेन शिंपडले तेन्ना तोय आपणाल्या गांवांत – देहरादूनाक – उठून गेलो. पुणून दिल्लीक पावतकूच आमी सगळे सन्निधींत रावतात तसो तोवूय दिल्लीक पावतकूच सन्निधींतूच रावतालो. एका वर्सा अवचीत मेळ्ळो. हांवें म्हळें, 'त्यागीजी, दुसरे खेपे येतना म्हजे खातीर देहरादूनच्या बासमती तांदळाचीं थोडीं बियां घेवन यो... गोंयांत लावन पळेतलों म्हणटां हो तांदूळ...'

ताणें म्हळें, 'दुसरे खेपे कित्याक? हेच खेपे घेवन वच... हांव आयज रातचे गाडयेन देहरादूनाक वचपाचो आसां... चार दिसांनी परतो येतलों तेन्ना घेवन येतां... तूं कितले दीस उरतलो हांगा?'

'चार स दीस...' हांवें जाप दिली.

त्यागीजीन म्हाका बासमतीचीं बिंयां हाडून दिलीं. गोंयांत हाडून तांतलीं अर्दीं हांवें विश्वनाथ गुड्याक दिलीं. तो कुळ्यां लागसार खंय तरी शेतकामाचे तरांतरांचे प्रयोग करतालो. आनी उरिल्लीं काडून आमच्या भागेल्याक दिलीं (तेन्ना शेतां वचूंक नाशिल्लीं). दोनूय कडेन बासमती तांदूळ बरो पिकलो. भागेल्यान सदचे वरी कांय मुडयो हाडून घाल्यो. उरिल्ल्यो आपणाक दवरल्यो.

एक दीस तो बाजारांत मेळ्ळो. 'किर्ते रे, नवो तांदूळ बरो लागता मरे?' हांवें ताका विचारलें.

ताणें माथें खरपीत जाप दिली. 'ना धनया, घरांत कोणाक तो आवडना... दळून ताचे पोळे करून खातात सगळीं... आमकां आमचो तांबडोच तांदूळ बरो.'

तांबड्या तांदळाक इतलो एकनिष्ठ राविल्लो हो लोक आतां संकरीत बियांचो तांदूळ खावपाक लागला म्हणपाचें आयकतकूच म्हाका धसको बसूंक नाशिल्लो जाल्यार म्हाकाच अजाप जातलें आशिल्लें.

ह्या संकरीत तांदळांचीं बियां जायनात म्हणपाचें कळ्ळें. शेतकामत्यांक वर्सान वर्स नवीं बियां विकतीं घेवचीं पडटात. भौराष्ट्रीय कंपन्यो तीं बाजारांत हाडून विकतात!

म्हाका हें सामकेंच नवें. म्हळें, 'आयज बाजारान शेतकामत्याकूय विकतो घेतला काय किर्ते?'

* * *

सृश्टिचीं आंगां दोन. एक, जीव नाशिल्लें. दुसरें, जीव आशिल्लें. एक जड. दुसरें चैतन्य. दोनूय एकामेकांचेर निंबून आसलीं तरूय दोनां मजगतीं एक मुळावो फरक आसा. जडा पसून जड जल्माक येना. चैतन्या पसून मात चैतन्य सदांच जल्माक येत आसता. धतरिचे फाटीर जे हजार तरांचे जीव जियेतात ते सगळे ह्या नेमाक धरून आपणा सारकेच नवे जीव जल्माक घालून आपणालो वंश मुखार चलयत रावल्यात. ह्याच नेमाक धरून वनस्पत-सृश्टूय आपणा सारकीच नवी वनस्पत-सृश्ट जल्माक घालून आपणालो वंश मुखार चलयत रावल्या.

आपणालो वंश धतरिचे फाटी वयलो कोणूच ना जावंक दिना.

जीव सृश्टींतलो मनीस हेर जिवां परस वेगळो. ताणें सृश्टिच्या ह्या उत्पत्ती-चाकाचो नेम लक्षांत घेवन आपणा खातीर एक नवी कृषि-संस्कृताय विकसावन काडली. एक दाणो रोयलो जाल्यार ताचे पसून शंबर दाणे जल्माक येतात म्हणपाचें पळेलें आनी ताणें शेतकाम सुरू केलें. तांदूळ रोयलो. तो शंबर वांट्यांनी चड पिकोवन काडलो. थोडो फुडल्या वर्सा रोवपा खातीर वेगळो काडून दवरलो. उरिल्लो खालो वा विकलो. कोट्ट्यांनी वर्सां पसून जोडिल्लें हें गिन्यान ज्ञान-विज्ञानाचीं दुसरीं कितलींय मळां हाताक लागलीं तरूय विसरूंक फावना, होगडावंक जायना असले तरेचें म्हणपाचें ताणें थारायलें. आनी तें आपणा हातांत सदांकाळ उरचें हाची तो जतनाय घेत रावलो.

युगानयुगां सावन तो हे तरेन जियेत आयला.

हालिंसराकूच ताचे गोमटेर कसली अवदिसा येवन बसल्या, कोण जाणा! ताची दानत इबाडल्या. ताणें 'जेनेटिक इंजिनियरींग' नांवाचें एक तंत्रज्ञान विकसावन काडलां. आनी, चैतन्यांतल्यान चैतन्य जल्मा येवपाचो सृश्टिचो नेम पुसून उडोवपाक, कुंठीत करपाक तो आतां भायर सरला. शेतकामत्यांच्या हातांत आशिल्लीं सगळीं बिंयां ताणें ह्या नव्या तंत्रज्ञाना सुवादीन केल्यांत आनी बदलाक शेतकामत्यांक तो असलीं बिंयां दिवपाक लागला कीं जीं रोयल्यार खूब पीक दितात, पुणून तीं परतीं रोयतलो म्हळ्यार रोवंक मेळनात. रोयलीं जाल्यार किल्लय नात.

आयज आमी जो तांदूळ खातात तो पळोवपाक तांदळा सारको दिसता, खावपाक तांदळा सारको लागता. पुणून 'जीव नाशिल्लो' तांदूळ हो. तो आमच्या जिवाक चैतन्याचो स्पर्शूच जावंक दिना.

पयशांक लागून मनीस बाजारा फाटल्यान लागलो आनी बाजारान ताका आपणा हातांत घेवन सामकोच बेंतेकाप करून उडयलो. सामकोच निर्वीय करून दवरलो. आयज बाजारान ताचें पुराय जिवीत आंवळून घेतलां. शेत खणटलो, सारें घालतलो, शिंपतलो, नण्णी काडटलो, पिकांचें नाशें करपी जीव मारतलो जाल्यार, ताका बाजाराचेरूच आयज निंबून रावचें पडटा. आतां बीं रोयतलो जाल्यारूय ताका बाजाराचेर निंबून रावचें पडूंक लागलां. बाजारांत मेळटा तेंच बीं ताका रोवचें पडटा. ताचें बीं ताच्या हातांत उरूंक ना. हें बीं ताका कोण दिता? राक्षसां सारक्यो भायल्यो महाकाय भौराष्ट्रीय कंपन्यो!

स्वराज्य सरकारान भाटकारांच्या हातांतल्यो जमनी काडून शेतकामत्यांक दिल्ल्यो त्यो शेतकामती जमनिचेच न्हय, तर खासा आपूण आपणाले

धनी जावचे, तांच्या कश्टाचें उत्पन्न तांकांच खावंक मेळचें हे खातीर. भौराष्ट्रीय कंपन्यांक तांणी आपणाक विकचे आनी सासणाचे तांचे गुलाम जावन रावचें हे खातीर न्हय म्हणपाचें स्वराज्य सरकारूय विसरलें, लोकूय विसरले. खासा शेतकामतीय विसरले. उद्देगधंदे वचूं आशिल्ले भौराष्ट्रीय कंपन्यांच्या हातांत. सरकारूय वचूं आशिल्लें तांचे पांगेंत. शेतकाम न्हय. शेतकाम शेतकामत्यांच्याच हातांत सुगूर उरूंक जाय आशिल्लें. तांचेंच आसूंक जाय आशिल्लें. सरकारान 'नवें आर्थीक धोरण' सुरू केलें आनी शेतकामूय काडून तांचे सुवादीन केलें!

अन्न पिकोवप हो संवसारांतलो सगळ्यांत व्हडलो एक उद्देग. तो सदां वाडत गेला आनी हे मुखारूय तो वाडत वचपाचो आसा. कित्याक, लोकसंख्या एकासारकी वाडत रावल्या. इतल्याय ह्या लोकांक दोन वेळचें जेवण मेळचें म्हूण संवसाराक आतां अन्न चड पिकोवचेंच पडटलें. येदो व्हडलो हो उद्देग फकत शेतकामत्यांच्या हातांत कित्याक दवरचो? तो तांच्या हातांतलो काडून बाजाराच्या हातांत दिवचो, म्हणटकूच ताचेर अंकूश दवरप सोंपें जातलें आनी बाजार आपणा हातांत आशिल्ल्यान पयशांची एक व्हड टांकसाळ आपणाक सुरू करूंक मेळटली हें 'धोरण' भौराष्ट्रीय कंपन्यांचें!

पयलीं डेल्टा एण्ड पाइनलँड नांवाचे एके कंपनीक अमेरिकन सरकारान ही मेकळीक दिल्ली. एक दीस मोन्सेण्टो नांवाचे दुसरे एके कंपनीन ही कंपनी विकती घेवन उडयली. उपरांत, 'पेटण्ट अधिकार' मेळिल्ल्यो दुसऱ्यो कितल्यो-श्यो कंपन्यो तिणें घेतल्यो. फाटल्या दोन वर्सांत वेगवेगळ्यो कंपन्यो विकत्यो घेवपाक तिणें सशें कोटी डॉलर खर्चिल्यात. बियांच्या व्यापाराचो तिका आतां एके तरेचो 'एकाधिकार' (मक्तो) मेळ्ळा. पुराय संवसाराचो बाजार आपल्या हातांत घेवपाचो तिचो मार्ग आतां मेकळो जाला.

हे मोन्सेण्टो कंपनिचें 'चरित्र' जाणा जावन घेवंक जाय. विय्येनतामच्या झुजांत लाखांनी एकर शेत जमनिचेर आनी रानांचेर विखाळ डायोक्सीनचो पावस जिणें शिंवरायल्लो ती हीच कंपनी.

किडी मुयो मारपी 'राउंडअप' नांवाचें एक वखदूय तिणें बाजारांत हाडून सोडलां.

ही कंपनी आमकां खंय घेवन वतली हाचो अदमासूच केल्यार आंगांत थरथरो भरता.

एक मजेचीच गजाल म्हळ्यार —

किल्लपी दाण्यांच्या 'जिन्सां'त बदल घडोवन तांकां वांझ करपी ह्या 'जेनेटिक इंजिनियरिंग'च्या तंत्रज्ञानाक — कोणे, कोण जाणा — अर्थान उपाट भरिल्लें एक नांव दिलां. 'टर्मिनेटर टॅक्नॉलॉजी' म्हूण. 'टर्मिनेटर' म्हळ्यार अंत हाडपी, ना करपी, सोंपोवपी तंत्रज्ञान हें. कांय विज्ञानीक म्हूणटात, ह्या नव्या बियांत sterility trait - नपुसंकत्वाचे गुणधर्म - कितलेशे पळोवंक मेळटात. तें सैमांतलें कितें कितें नपुसंक करून उडयत, सांगूं येना. घडये धर्तरि वयली पुराय जीवसृश्टूच ना करून उडयत खंय!

बुद्द आशिल्ल्या मनशान आतां विद्रोहान उठून ह्या तंत्रज्ञाना आड उबो रावंक जाय. आनी तें चलयतल्यांक 'बुलंद' आवाजांत सांगूंक जाय —

खबरदार, सैमाकडेन खेळूं नाकात. सैम म्हळ्यार चैतन्य आनी चैतन्य स्वायत्त आनी स्वयंशासीत. आपुणूच आपणाचेर निंबून रावपी, आपुणूच आपणाली वेवस्ता करपी. उपरासून मुखार आयिल्ल्या प्रस्नांची आपुणूच जाप सोदून काडपी एक तत्त्व. पर्यावरणा कडली आपणाली संतुळा सांबाळून तें रावलां. आपणाले पोसवणे खातीर गरजेचे बदल आपुणूच घडयत आयलां. आपणालें सातत्य सांबाळपाचे आनी सदां नवें ताल्ल उरपाचे उपायूय तें आपुणूच घेत रावलां. 'इकॉलॉजी' कडेन ताल धरून तें चलत आयलां. ह्या नेमांत मर्दी पडून आडखळ हाडपाचो, दखलगिरी करपाचो कोणाक अधिकार ना.

अन्नाक निर्जीव करपी तंत्रज्ञान विकसावन काडप हाचे सारकें अविचारी, दुराचारी, अनर्थकारी पावल दुसरें ना. मनीस चैतन्यशील जीव. त[illegible] चैतन्यशील अन्नूच मेळूंक जाय. तंत्रज्ञानाक सांगूंक जाय, तूं 'लायन अ[illegible] कंट्रोला' पेल्यान वचूंक लागलां. पयलीं फाटीं सर. ना जाल्यार, [illegible] आमी बळयां धांवडावन घालचें पडटलें.

तंत्रज्ञान इतलें जिवार उठचें सैमाच्या?

## टॉलस्टॉयचो प्रज्ञावाद – ३

### जैताचो मार्ग

आपणांतलो मोग जागोवप, वाडोवप आनी व्हांवतो करप हीच जिवित[illegible] मोख म्हणपाची जाणवीक मनशाक केन्ना जाता? ताचे बुद्दीक जाग [illegible] तेन्ना. हे उकतावणेक आडखळ हाडपी अंतराय पयस करपाचो वावर आ[illegible] करूंक जाय म्हणपाचीय जाणवीक ताका तेन्ना जाता आनी ही जाणव[illegible] ताका बुद्दीक जाग आयले उपरांतूच जाता.

हे अंतराय पयस करपाच्यो दोन वाटो आसात —

ह्या अंतरायांक लागून खंय खंय कसले कसले परिणाम घडून ये[illegible] ते स्पश्टपणान पयलींच जाणा जावन घेवपाची एक आनी, खंयचो अंतर[illegible] पयलीं पयस करप, खंयचो उपरांत हो क्रम थारावपाची दुसरी. अ[illegible] कसलोच अंतराय पयलीं पयस करपाचो यत्न करूंक फावना की ज[illegible] पाळांमुळां दुसऱ्या खंयच्या अंतरायांत रिगिल्लीं आसात. खूब जाणा[illegible] लक्षांत ही गजाल येना. देखून क्रम थारायनासना ते खंयचोय एक अंत[illegible] पयलीं पयस करपाचो यत्न करतात. परिणामी, तांचे सगळे यत्न फु[illegible] वतात आनी अंतीं निर्शेणीच तांच्या पदरांत पडटा.

क्रम थारावप खूब म्हत्वाचें. टॉलस्टॉय म्हणटा, सगळ्यांत पयलीं [illegible] मन उचांबळीत करपी, चेतोवपी, मनशाक तर्रर करपी तंबाकू, सोरो, अफ[illegible] भांग, गांजो ह्या व्यसनां पसून पयस रावंया. हीं व्यसनां मनशाक ता[illegible] खरेल्या रुपाची जाणविकूच जावंक दिनात. आपूण कितें करपाक जल्[illegible] आयलां, आपणाक खंय वचपाचें आसा हेंवूय कळूंक दिनात. एके भा[illegible] ताका जनावरां पाश्ट पावड्यार व्हरून पावयतात. तंबाकू, सोरो, अफ[illegible] भांग, गांजो ओडटकूच, खातकूच पियेतकूच मनशाक तरतरी येता [illegible] ताका बरेंऽ दिसता खरें. पुणून ही तरतरी तिगून उरना. ती रोखडी दें[illegible] मागीर, परती तरतरी हाडपाक मनशाक त्योच वस्तू परत्यो ओड[illegible] खावच्यो वा पियेवच्यो पडटात. मनीस आपणाक सारको नियाळून [illegible] जाल्यार ताका दिसून येतलें, ह्या व्यसनांक लागून आपणाली बुद्द[illegible] पडल्या, कार्यशक्ती उणी जाल्या. आरोग्य इबाडलां. इतलेंच न्हय, [illegible] सरसमान सुखां पसुनूय आपूण पयस गेलां. ते भायर, आपणाल्या घ[illegible] लोकांक आपणाल्या व्यसनांक लागून जें सोंसचें पडलां ताका अंत[illegible] ना. जोड सगळी व्यसनांतूच काबार जाल्या. केन्ना केन्ना आपणा ह[illegible] सभ्य, संस्कारी मनशाक सोबचीं नात असलींय कर्मां घडूंक लागल[illegible] केन्ना निश्ठूर कर्मांय घडल्यांत.

आपूण एक तर मनीसपण होगडायत रावलां वा होगडावन बसलां[illegible]

देखून, मनशान सगळ्यांत पयलीं तंबाकू, सोरो, अफीण, भांग, [illegible] हांकां हात लेगीत लावचो ना असो निर्णय घेवंक जाय. तांची रुचूच [illegible] जायना. आनी, धरूंया, पळोवया म्हणून वा घाळपणान रूच घेतली जा[illegible] ताची संवय लावन घेवंक जायना. समजा, संवय लागली जाल्या[illegible] मोडूंक मात लेगीत कळाव लावंक जायना.

खूब जाणांचीं हीं व्यसनां सुटल्यांत. आमचींय सुटूं येतात. फकत नि[illegible] करूंक जाय. म्हणटकूच सुटटलीं. मागीर, खरेल्या अर्थान 'बरेंऽ' दिस[illegible] मन प्रसन्न उरतलें.

उपरांतूच हे दिकेन दुसरें पावल उखलचें.

दुसरें पावल खंयचें? जाता ते मेरेन सैमाच्या नेमांक धरून चलचें, हें स्रम करप सैमाचो एक मुळावो नेम. तो चुकोवपाचो यत्न केन्ना करचो न्हय. आपणालीं कामां जाता ते मेरेन आपणेंच करचीं. तीं दुसऱ्यांचेर धुकलचीं न्हय. आपणालीं कामां जो दुसऱ्यांचेर धुकलता तो कामां पसून मेळटा त्या आनंदाक वंचीत उरता. जाका हातपांय हालोवन कामां करूं येतात ताकाच विसव कित्याक म्हणटात, तें बरें समजता. आळशाक ताचें म्हत्व समजना. जो स्रम करिना ताची कूड दुबळी पडटा. ताची बलायकी इबाडटा. ताका तरांतरांच्यो पिडाय जातात.

आपणालीं लुगटां आपणेंच उमळचीं. आपणाल्या लुगटांक आपणेंच इस्त्री मारची. आपणालीं आयदनांय आपणेंच घांसचीं. जंय चलून वचूं येता थंय चलून वचचें (गाडयेंत बसून वचचें न्हय). आपणाली पोटली आपणेंच उखलची. ती उखलपाक हमालाक उलो मारचो न्हय. घरांत आपणेंच सान्न मारची. घरांत वावराडी नोकर आसप ही लजेची गजाल अशें मनशाक दिसूंक जाय. जाता ते मेरेन वावराड्यां नोकरां बगर चलोवचें.

एक खरें, सगळींच कामां सगळे करूंक पावनात. म्हूण समाजान स्रमाची वांटणी केल्या. ह्या स्रम-विभागाक लागून दुसऱ्या कडल्यान कांय कामां जण एकल्याक करून घेवचींच पडटात. घेवचीं. पुणून घेता ताचे दुपेटीन ताका दिवंक जाय हें लक्षांत दवरचें. आपणालीं कामां आपणें करून दुसऱ्यांच्या आधाराकूय वचचें.

आनी सगळ्यांत म्हत्वाचें – पायखिळो निवळ करपा सारकें काम केन्नाच दुसऱ्या कडल्यान करून घेवचें न्हय. तें आपणेंच करचें.

तॉलस्तॉय 'दुसऱ्यां'त नोकर चाकर हांचे भायर दादले-मनशान आपणाले बायलेचोय आसपाव करूंक जाय म्हणटा. बायल नोकराणी न्हय, हें लक्षांत दवरूंक जाय. घरांत तुजो पांवडो तोच तिचो हें विसरूं नाका म्हणटा.

तिसरें पावल खंयचें उखलचें हें सांगता आसतना तॉलस्तॉय एक म्हत्वाचें सत्य आमचे मुखार दवरता. तो म्हणटा—

जाच्यो गरजो उण्यांत उण्यो तो चडांत चड सुखी.

समाजाची, देशाची, संवसाराची आनी देवाची (तॉलस्तॉयचें आवडटें उतर हें) सेवा करप हें असल्याच मनशाक सोंपें. इतलेंच न्हय तर, जाच्यो गरजो उण्यांत उण्यो तोच भितरल्यान चडांत चड गिरेस्त. जाच्यो गरजो चड तो भितरल्यान कंगाल अशेंय तो म्हणटा.

खावप पियेवप, न्हेसप पांगरप, न्हिदप ह्यो मनशाच्यो मुळाव्यो गरजो. त्यो भागुंकूच जाय. पुणून ताणें विसरूंक फावना—

अन्नाचें सूख मिश्टान्नांत न्हय, तर भुकेंत आसता. पिवणाचें सूख सरबतांत न्हय, तर तानेंत आसता. लुगटाचें सूख ताच्या सोबीत सुंदर रंगांत न्हय, तर मनीस शियांत कुडकुडटा तेन्ना मेळटा. आनी घराचें सूख व्हडल्या राजम्हालांत न्हय, तर वत पावसा पसून संरक्षण मेळटा ते खोंपींत लेगीत आसता. चुरचुरीत भूक लागिल्ल्याक सुके भाकरेंत जें सूख मेळटा तें भूक नाशिल्ल्याक मिश्टान्नान मेळना. शियांत कुडकुडटल्याक दाट कामळेंत जें सूख मेळटा तें गिरेस्तांक सोबीत सुंदर न्हेसणांत मेळना. पावसांत भिजिल्ल्याक जें सादे खोंपींत सूख मेळटा तें भिजूंक नाशिल्ल्या राजाक व्हडल्या राजम्हालांत मेळना.

गरजो भागोवपा खातीर मनीस एका फुडलीं एक आयदनां साधनां उपकरणां जमयत आयला. तांकां लागून ताका गरजो भागिल्ल्याची धादोसकाय मेळटा व्हय? परती, ताची बलायकी इबाडटा. ताचीं कांय आंगां दुबळीं पडटात. दुबळ्या कोठ्याक कसलें अन्न धादोशी करतलें? आनी रगत नाशिल्ले कुडीक कसलें लुगट ऊब दितलें? खूबश्या जाणांक हांचीं हीं दुख्खां दिश्टी पडनात, हांची फकत गिरेस्तकायूच ते पळेतात आनी मागीर तांचे कडेन आसा तें आपणा कडेनूय आसचें म्हूण आंवडेवंक लागतात. सर्तींत देंवतात. आनी तांचे वरीच धूळदशेक पावतात.

तॉलस्तॉय म्हणटा, गरजो वाडोवच्योच न्हय. नवीं नवीं आयदनां साधनां उपकरणां घरांत हाडचीं न्हय. च्या बगर चलूं येता जाल्यार च्या घेवचो न्हय. मासा बगर चलोवं येता जाल्यार मास घरांत हाडचें न्हय. घर मोडूंक नासत जाल्यार तें पोरणें जालां अशें म्हणून नवें घर बांदचें न्हय. बांदचेंच पडलें जाल्यार राजम्हाला सारकें बांदचें न्हय. सादें बांदचें.

सामके 'अर्थ नाशिल्ले' कशे बदल हे. पुणून तॉलस्तॉय म्हणटा, हे अर्थ नाशिल्ले बदल मनीस आपणाल्या जिवितांत करूंक पावलो – आनी साद्या रावपांतूच सूख आसा अशें मानून रावलो – जाल्यार संवसारांतल्या हजार दुख्खांतलीं णवशें णव्याण्णवद दुख्खां आपशींच ना जातलीं.

मनशाक मरण केन्ना येत, सांगूं येना. केन्नाय येवं येता. आयज येवं येता, आतांच्या ह्या खिणाक लेगीत येवं येता हें मतींत धरून बुद्द आशिल्ल्या मनशान फुडाराच्या हुसक्यान आयचें सूख होगडावचें न्हय आनी आयचे लागणुकेक फाट करची न्हय.

काळजांतलो मोग जागोवप, वाडोवप, व्हांवतो करप ही मनशाची सगळ्यांत व्हडली लागणूक. ती सोडूंक जायना वा तिची उवेखणी जावंक दिवंक जायना.

मनीस हें नकळ व्हय? जाणा. तरी आसतना तो फायचोच हुसको सदां करीत आयला. फायचे खातीर धन संपत एकठांय करीत रावला. फकत आपणाल्या फुडाराच्या हुसक्यान न्हय, घरच्यांच्या – फुडल्या पिळग्यांच्या – हुसक्यान करीत रावला.

परिणाम – तो मोगाच्या नेमाचो भंग तर करताच. ते भायर, खासा आपणालें सुखूय होगडावन बसता.

हुसको केन्नाच कोणाक सुखान न्हिदूंक दिना.

मनशाक गरजो भागोवपा खातीर जोडचेंच पडटा. तो धनसंपत एकठांय करता ताचे फाटलीं मुखेल प्रेरणा हीच आसता. आपूण जोडटां तें आयज उपकरा पडूंक जाय, फाल्यांय पडूंक जाय, सदांकाळ पडूंक जाय ह्या हावेसान तो जोडटा ते धन संपत्तेचो तो धनीय जावन रावता. पयली गजाल म्हळ्यार, फुडाराचो हुसको कितलो काडचो हेंच ताका कळना. एका म्हयन्याचो, एका वर्साचो, धा वीस वर्सांचो काय फुडल्या धा वीस पिळग्यांचो? दुसरी गजाल, धनसंपत्तेच्या हुसक्यान तो जिविताचो खरो आनंद भोगुंकूच पावना, हेंवूय ताका समजना. तिसरी गजाल, जमयल्ली धन संपत कोणूय चोरून व्हरीत, नाडून व्हरीत ह्या भंयान आपणाक सारकी न्हीद पडना हाचें भानूय ताका उरना. चौथी गजाल, जी जोड एकठांय जाल्या ती ताका पुरोशी केन्ना दिसचना. ती तो वाडयत रावता. आनी ती वाडोवपाच्या आनी सांबाळपाच्या यत्नांत आपणाली पुराय शक्त खर्चता हाची ताका केन्ना जाणवीक जायना. फायच्या हुसक्याक जिवीत ओंपून तो आयचें सूख होगडावन बसता.

फुडारा खातीर आपणाल्या हाता पांयांचेर पातयेवन रावपी, दुसऱ्यांचो आधार घेवन आनी दुसऱ्यांक आधार दिवन जियेवपी आनी सुकण्या शेवण्या भाशेन आपणाले पोसवणे खातीर सैमूच कितें-न्हय-कितें उत्पन्न करीत आसा अशें मानून निश्चिंत रावपी मनीसच जिविताच्या सगळ्या तरांच्यो खोशयो, सगळे आनंद भोगूंक पावता हें घट बरें मतींत धरून मनशान जियेवंक जाय. धन संपत एकठांय करपाचो तुजो वावर हे खोशयेचो लाखावो वांटो लेगीत भोगूंक दिना हें विसरूं नाका.

फायचो हुसको सामको ना करूंक येवपाचो ना हें खरें. पुणून तो जाता तितलो उणो करूं येता. अशें म्हणून तॉलस्तॉय सांगता, धनसंपत्तेंत वाड करचो ना, भर घालचो ना असो निर्णय घे आनी जी जमल्या तिचो उपेग फकत आपणा खातीर वा आपणाल्या घरच्यां खातिरूच करचो ना,

तिचो समाजाक चडांत चड उपेग जावंक दितलों असो नित्शय कर. तूं धन एकठांय करपाच्या 'व्यसनां'तल्यान मेकळो जातलो आनी कोणाक भिये नासतना जियेवंक लागतलो. तेन्नाच तुज्यांतलो मोग व्हांवतो जावपाक लागतलो.

धतरिर देवाचें राज्य हाडपाक वावरप हें साध्य आनी तें हाडपा खातीर काळजांतलो मोग जागोवन, वाडोवन व्हांवतो करप हें साधन म्हणपाचें जाका समजलां तो केन्ना कोणाकडेन झगडीं-झुजां करचो ना, केन्ना कोणाक चिड्डुचो, चेपचो ना. केन्ना कोणा कडल्यान ताचे इत्से आड आपणालीं कामां करून घेवचो ना.

दुसऱ्यांची सेवा करुनूच तो काळजांतलो मोग व्हांवतो करतलो.

पुणून आमी पळेतात, केन्ना केन्ना व्हडले व्हडले बुदवंत लेगीत झगडीं झुजां करतात. दुसऱ्यांकडल्यान बळयां आपणालीं कामां करून घेतात. हे बुदवंत आसूं, पुणून पशू अवस्तेंतल्यान ते अजून वयर सरूंक पावूंक ना, इतलेंच ते दाखोवन दितात. तांची बुद्द अजून जावंक जाय तितली जागी जावंक ना.

तॉलस्तॉय म्हणटा, जे मेरेन मनशांतलो पशू ना जावन वचचो ना ते मेरेन तो कितलोय बुदवंत जालो तरूय दुसऱ्यांकडेन झगडपाक, दुसऱ्याच्या हातांतलो उंडो झोंबून घेवपाक, आपणाक रावंक मेळचें म्हूण दुसऱ्याक ताच्या घरांतलो धांवडावन घालपाक अनमनचो ना. तो झगड्यांत जैत जोडले उपरांतूय झगडपाचें थांबोवचो ना. तो कुड्डो जावन हारिल्ल्याक सामकोच ना करपाक वावुरतलो. परिणाम एकूच जातलो, तो हारिल्ल्याच्या मनांत आपणा विशीं दुस्वास जागयतलो आनी आपणालेंय जिवीत विखाळ करून उडयतलो. आनी हारलो जाल्यार परतो तेमाक पेट्टलो आनी आपणा मुखार तरांतरांचीं संकश्टां ओडून हाडटलो.

म्हूण तॉलस्तॉय म्हणटा, झगडीं झुजां करूंच नाकात. जाल्यारूच तुमी नमळ जावंक पावतले. खरेल्या अर्थान स्वतंत्र जातले आनी हातांत घेतिल्लो वावर जीव ओतून करूंक पावतले. जो दुसऱ्यांक आपले वरी लेखता तोच दुसऱ्याचो मोग जिखूंक पावता. असलोच मनीस नमळ जावंक पावता. कोणेंय ताच्या एका पोल्यार थापट मारलें जाल्यार दुसरो पोलो मुखार करपाची तांक ताच्यांत येता.

दुसऱ्यांत दुस्वास जागोवन कोणूच आयजवेर सुखान जियेवंक पावूंक ना.

सत्या कोणाचेरूच चलोवची न्हय. कोणाच कडेन कसलींच झगडीं करचीं न्हय. नवीं झगडीं तर मोलावन घेवचींच न्हय, पोन्नीं झगडींय पालयत रावचीं. इल्लो इल्लो करून मनीस पशुत्वांतल्यान वयर सरत वतलो.

झगडीं झुजां जितलीं उणीं तितलें संवसारांत सूख चड.

आपणाक आपलोच बंदो करपी एकूच संस्कार दाखोवचो पडलो जाल
भोगाचोच दाखोवचो पडटलो.

भोगांत संभोग सगळ्यांत व्हड. केन्ना तृप्तूच जायना.

वंश मुखार चलोवप होच ताचो मुदल उद्देश आशिल्लो. पुणून सै
ताका आनंदाची जोड दिली. देखून, मनीस वंश मुखार चलोवपा खा
न्हय, तर तातूंत मेळटा तो आनंद जोडपाक संभोग घेवपाक लाग
ल्हवू ल्हवू होच ताचो मुखेल उद्देश अशें मानपाक लागलो. संभोग
लागून भुरगें जावचें न्हय म्हूण गुरवाचार आडावपाचे तरांतरांचे उपाय त
सोदून काडले. परिणामी, मनीस आपणालेच घरकान्नीक न्हय, तर संभ
खातीर दुसऱ्यांच्या घरकान्नींक आपणाल्या जाळांत घुसपावंक लाग
घरकान्नीय हेंच करपाक लागल्यो. दुसऱ्यांच्या घरकारांक आपणाल्या जाळ
घुसपावंक लागल्यो..

संभोगाक तुर्ताक धरबांदूच उरूंक ना.

हाका लागून जालां कितें – 'कुटुंबाचें सूख' म्हूण जें कितें आशि
तें ल्हवू ल्हवू ना जावपाक लागलां. घोव बायल एकामेकांक एकनि
आसतालीं. तांची एकामेकांविशिंची निश्ठा उणी जायत वचूंक लागल
दोगांय एकामेकांचो दुबाव घेवन झगडपाक लागल्यांत. केन्ना केन्ना स
नज जावन लग्नमोड करून दोगांय एकामेकां पसून पयस सरपाक लागल्यां
लग्नाचें भुरगें आसलें जाल्यार तें केन्ना बापायसरीं तर केन्ना आवयस
रावन 'एकलें एकमुळें' वाडपाक लागलां.

सगळ्यांत हुसक्याची गजाल म्हळ्यार, दादलो बायल दोगांयच
एकामेकांकडेन पळोवपाच्यो नदरोय बदलल्यात. दादलो-मन
बायल-मनशेकडेन 'मादी' म्हूण पळेता आनी बायल-मनीस ताचेक
'नर' म्हूण पळेता. दोगांय नर मादिच्या पांवड्यार येवन पडल्यांत. म
भौमान, व्हडवीक, प्रतिष्ठा दोगांचीय उरूंक ना. गर्मपात, बाळहत्या, बलात्क
शिंदळकी सगळें हे नदरेक लागून आयलां. तरांतरांच्यो पिडाय समाज
पातळूंक लागल्यात.

तॉलस्तॉय म्हणटा, संभोगाची ओड हुमटावन उडयल्ले ब्रह्मच
संवसारांत आसले तरूय सगळ्यांनी ब्रह्मचर्याक पाळो दिवन जियेवचें अ
उमेद आपूण बाळगिना. पुणून संभोगाची ओड सगळ्यांनी आळाबंदा हाडूं
जाय. सगळ्यांनी संयमान जियेवंक शिकुंकूच जाय. दादल्यांनी एकपत्नीव्र
जावचें आनी बाकिच्या सगळ्या बायलां कडेन आवय-भयण-धूव म्ह
पळोवचें. बायलांनी एकपतिव्रती जावचें आनी सगळ्या दादल्यांक
बापूय-भाव-पूत म्हूण पळोवचें. कठीण न्हय हें. मनाक तशी तालीम दिंव
जाय. आनी, समजा, कठीण दिसलें जाल्यारूय हेच भाशेन चलून दाद
बायल हांची एकामेकांकडेन नर मादी म्हूण पळोवपाची नदर बदलूंक जा
दोगांयचेंय मुदलांतलें व्हडपण तांकां परतें जोडून दिवंक जाय.

✻ ✻

---

☆ मागता तें देव दिता. पुणून देव दिता ताचो तुका बरो उपेग करूंक आयलो जाल्यार देवान दिलां तेंच तुजो घात मारता.
देव दिता ह्या भावार्तान हिरण्यकश्यपून मागिल्लें, रावणान मागिल्लें, कंसान मागिल्लें आनी तांणी मागलें तें देवान तांकां दिल्लें.
पुणून अंतीं कितें जालें ?
देवान दिल्लें ताणेच तांचें नाशें केलें.
मागचे पयलीं कितें मागचें हाचो विवेक मनशाक आसूंक जाय.

## पडसाद

## उतरां जोख, मागिरूच मोख

'भास आनी समाज' ह्या नव्या सदरांत 'उश्णीं उतरां' हो माधवी सरदेसाय हांचो लेख आवडलो. वेगळ्या वेगळ्या भासांनी आनी खास करून कोंकणींत हेर भासांतलीं उतरां कशीं रिगतात, रूढ जातात हे विशीं तातूंत उजवाड घाला. कोंकणींत अजून मेरेन फावो त्या प्रमाणांत सर्वसमावेशक अशे वेगळे वेगळे कोश येवंनात. फुडारांत हेर भारतीय भासां वरी कोंकणींत जो कोणूय उत्पत्ती कोश (व्युत्पत्ती कोश) रचूंक बसतलो, तेन्ना ताका 'उश्णीं उतरां' गांठवल कशें उपेगा येतलें.

४५० वर्सां पोर्तुगीजांच्या शेकातळा आशिल्ल्या गोंयकारांचे कोंकणी भाशेंत कांय उतरां अशे तरेन घट जावन बसल्यांत की खूब जाणांक तीं पोर्तुगीज हें खबरूय ना. जनेल, फोग, बेबदो, बुराक ह्या उतरांक पोर्तुगीज लोक येवंचे आदीं गोंयांत कोंकणी उलोवपी लोक कितें म्हणटाले, ताचेरूय संशोधन जावपाची गरज आसा. 'बरइवुदु' ह्या कानडी उतरावेल्यान 'बरोवप' आयलां अशें माधवीन म्हळां. पूण अजुनय कांय सुवातांनी 'लिवप' म्हणटात (लेखांतलो उल्लेख) तें उतर घडये 'बरोवप' येवचे आदीं कोंकणींत घोळनाशिल्लें बी मू?

लेखांत कांय पोर्तुगीज उतरांची वळेरी दिल्या. तातूंत आनिकूय कांय उतरां घालूं येतात. देखीक **व्हॉल्त** (volta) , **कार्रेगाद** (carregado), **कोंफुसांव** (confusão). 'व्हॉल्तार दुकान आसा', 'कार्रेगाद च्या कर' अशीं वाक्यां म्हजीय पिळगी वापरता. मॅर्द (merda) ही गाळ म्हूण वापरतात. ताचो पोर्तुगीज भाशेंत खरो अर्थ **चिखलाचें कोंड.** परबीं हें उतर parabêns ह्या उतरावेल्यान घडलां. काळाप्रमाण भास विकसित जायत आसता. कांय पोर्तुगीज उतरांचो वापर आयची कोंकणी पिळगी साप उणी करता. म्हजे आवयची आवय, आजी **'इस्तिमसांव – इस्तिमसांवांचें'** हें उतर दिसाक दोन-तीन खेपे उच्चारताली. म्हजी आवय आनी हांव हें उतर वापरिनात. पिकासांव, बेजेसांव हीं उतरां हांव वापरतां. म्हजे धाकटे बापोलभाव तीं वापरिनात. फुडले पिळगेंत तीं उरतलीं काय कितें, दुबाव आसा. इंग्लीशिच्या आक्रमणाचे भकीक पडिल्लीं आमचीं भुरगीं आनी फुडली पिळगी मुदलांत कोंकणी उतरावळ वाचपा-बरोवपांत-उलोवपांत कितली वापरतलीं ताचेर कालांतरान उतरां लुप्त जावप पातयेवन उरतलें. ''सादी कार्यावळ कर, व्हडलो आक्त नाका'' हातुंतलें **'आक्त'** हें उतर acto ह्या पोर्तुगीज उतरावेल्यान कोंकणींत घट जालां. मात ''अपघातांत एकलो **आक्ताक** मेलो'' ह्या वाक्यांतलें **आक्ताक** हें उतर कशें घडलां काय?

उतरांचें मूळ बरेंच रंजक आसता. म्हसमी-भिकणां उतरांतलें म्हसमी **मोसांबीक** वेल्यान घडलां अशें लेखांत म्हळां. तमिळ भाशेंत भिकणाक मनीला-कोट्टय अशें म्हणटात. फिलिपिन्सच्या मनिला शारांतल्यान तीं हाडलीं देखून हें नांव पडलें असो संदर्भ वाचिल्लो. गोंयांतलीं नामनेचीं **मयंडोळीं** केळीं मयडें गांवचीं हें आयचे पिळगेक लेगीत खबर ना. **उर्राक** आडनांवाचे एके राणयेचे मुस्तींत गोंयांत एके जातिचे काजिचे रोपे हाडिल्ले, ताचेवेल्यान सध्याचें **हुर्राक** घडलां असोय उल्लेख एका इंग्लीश नेमाळ्यांत वाचिल्लो.

दुसऱ्याचे दीनवेंस आठयतना, उपकार, कृतज्ञताय परगटायतना वा उलोवप सोंपतकच thank you म्हणटात. कोंकणींत हाका 'देव बरें करूं' ही पर्यायी phrase घोळटा. कांय नास्तिक कोंकणी भाशीक 'देव' उतर येता देखून 'देव बरें करूं' म्हणनात. ते कितें म्हणटात काय? Idioms and Phrases ह्या विशयाचेर कोंकणी कोश रचलो जाल्यार Thank You चे सुवातेर कितें दिवपाचें?

Birthday चो आमी 'बड्डे' केलो. (दांतोळ्यो बी क्वचित दिसतात. आसूं.) सगलेंच अस्तंती अनुकरण. अशें करतना इंग्लीश भासूय भारतीयांनी आपल्या वाठारांतले भाशेप्रमाण, उच्चारांप्रमाण आपणाक जाय तशी लवचीक करून घेतल्या. स्पेलिंग, व्याकरण, उच्चार, उलयतनाचें वजन हे बाबतींत जाय तसो वापर करपाची मेकळीक घेतल्या. हिंदुस्तानी लोकांचे हे **हिंग्लीश** भाशेविशीं पुस्तकांच बरोवं येत. **Comperer** (अचूक: Compere: सूत्रसंचालक), **Sponsoror** (पुरस्कृत करपी), **Cut-throat (competition)** हीं उतरां इंग्लीश भाशेंत अस्तित्वांत नात. तांचोय वापर सर्रास चलता. Times of India सारकेलें दर्जेदार दिसाळें Governor prepones Assembly Session असो माथाळो दिता. Prepone हें क्रियापद भारतीयांनी Postpone ह्या क्रियापदावेल्यान घडयलां. ताका Advance हें क्रियापद लागू जाता. हालींसराक कांय इंग्लीश कोश आयल्यात. तातूंत भारतीयांनी घडयिल्लीं तिनेक हजार उतरां आस्पावित केल्यांत, अशें आयकलां.

इंग्लीश भास 'उश्णीं उतरां' घेवपाक सगळ्यांत मुखार आसूंक फावो. In toto, sine die, prima facie, bona fide, mala fide अशीं हेर भासांतलीं उतरां तिणें बिनधास्त घेतल्यांत. इंग्लीश उतरावळ दर वर्सा फुगत आनी सुजत चल्ल्या असोय एक अहवाल वाचिल्लो.

'दुडू' हें उश्णें उतर मूळ कानडी हें खूब जाणांक खबर ना. कोंकणींत घोळणुकेंत आशिल्ल्या पोर्तुगीज, कानडी उतरांची एक वेगळीच वळेरी अभ्यासकां खातीर तयार करूंक फावो. 'बरकत' हें उर्दू उतर कोंकणींत घोळटा. आनिकूय जायतीं अरबी-फारसी उतरां आसात.

व्यंगचित्र वा हास्यचित्र खूब खेपे दीर्घ लेखापरस प्रभावी आनी अर्थपूर्ण आसता. तेच धर्तेर भाशेंतली एक म्हण वा ओंपार वापरल्यार कितलेंशेंच पाल्हाळ उलोवपाची वा बरोवपाची गरज आसना. कमलादेवी राव देशपांडे हांणी 'म्हणिंचो इतिहास' ह्या विशयाचेर दोन पुस्तकां बरयल्यांत. 'भास आनी समाज' ह्या सदरांत कोंकणींतल्या हेर म्हणी-ओंपारिंचेरूय मुजरत भासाभास जावची. कोंकणींत गिरेस्त अशें म्हणिंचें भांडार आसा. तांचो वापर उणो जायत चल्ला, ही खंत आनी हुस्को करपासारकी गजाल.

भोववचनाचे बाबतींत कोंकणींतल्यो ह्यो देखी पळेयात: (१) पांट्यांत **बांगडे** खूब आसात. आयज बाजारांत **बांगडो** खूब पडला. (२) जात्रेक खूब **लोक आयिल्ले.** प्रधानमंत्र्यांचे बराकेक आकांत **लोक आशिल्लो.** खूब बांगडे म्हणटना 'बांगडो' जाता. खूब लोक आयिल्ले अशें म्हणटना 'लोक आयिल्लो' अशें एकवचनी ढंगांतलें क्रियापद लागता. कोंकणींत भोववचनांचें भोववचन आसा काय कितें, हाचेरूय अभ्यास जावंक जाय. असलो प्रकार हेर भासांनी आसा काय कितें, ताचेर उजवाड पडूंक जाय.

उतरांनी उपाट शक्त आसता. तीं उलयतना वा बरयतना, उच्चारांचे बाबतींत वा ऱ्हस्व-दीर्घ तशेंच व्याकरणाचे बाबतींत घाळपण आनी बेजबाबदारपण करप समा न्हय. उतरांतले भाव, अर्थ, मूळ, इतिहास, उत्पत्ती हे विशीं 'भास आनी समाज' सदरांत आनिकूय उजवाड पडूं.

वेगळे वेगळे वाठार (गोंयांतलेच वेगळे वेगळे तालुके, महाराष्ट्र, केरळ, कर्नाटक), जात, धर्म, समुदाय, वेवसाय हांचे प्रमाण कोंकणी उतरांनी थोडेभोव बदल जाणवतात. बरयतना वा उच्चारतना थोड्या उतरांतल्यो छटा, रंग, मोदी बदलिल्ल्यो दिसतात. उतरांच्या ह्या तासांकुसांचेर प्रस्तुत सदरांत व्यापक थरार विचार जावं, हेंच आंवडे.

**— मुकेश थळी**

# कारवारकारांली चवथी परब

संदेश श्रीकांत बांदेकार

कारवारकारांली सगळ्यांत व्हडली परब म्हळ्यार चवथ. बाकिचेय सगळे उत्सव हांगा मनयतात. देखीक, दिवाळी, दसरो आनी शिगमो. पूण भाद्रपद म्हयन्यांतले चवथिचे वेध कारवारकारांक श्रावण म्हयन्यांतूच लागतात अशें म्हळ्यार अतिताय जावंचिना. कित्याक तर, कांय जाण श्रावणांत नुस्तें वा मास खावपाचें बंद करतात आनी बद्द चवथिचे पंचमी दिसा परत नुस्तें खातात. (नुस्त्याशिवाय कारवारकारांली उंडी सकयल देंवना, ही वेगळी गजाल.) कारवारकारांली चवथ म्हळ्यार हांगाचे कोंकणी संस्कृतायेचें एक आंग.

चवथिची सुरवात जाता **तयेच्या** उपासान. नव्योच लग्न जाल्ल्यो बायलो हो उपास करतात. कांय कडेन आंकवार चलयोय तो करतात. लग्न जाल्ली बायल ह्या दिसा **गवर-म्हादेव** (गौरी-म्हादेवा खातीर वापरिल्लो कारवारी कोंकणी शब्द) हांची पुजा करता. नवीच लग्न जाल्ले बायलेक आवयकडल्यान **वजें** येता. तातूंत **वायणां**, माटोळेचें सामान आनी **कोरोज्यो** (नेवऱ्यां खातीर वापरिल्लें कारवारी उतर) आसता.

आतां गवर-म्हादेव हांचे पुजेचो विधी पळोवंया. सगळ्यांत पयलीं एक कासाळ्याचें पान (एके तरेचें आळवाचें पान) घेतात. ताचें 'पाकीट' करतात. गोंयांत आयताराचे पुजेक पत्री जमयतात तशी पत्री ह्या कासाळ्या पानांत घालतात. हातुंत मुखेल म्हळ्यार हळडिचें थाम आनी सुपारी माडयेची तन्नी पोंय (**भिंगारी**) घालून पाकीट बंद करतात. त्या पाकिटा बराबर कांकणां, फणी (लाकडाची), गळसरी दोर, काजळा, कुकमाची डबी दवरतात. म्हादेवाचे पुजेक ताचें प्रतीक म्हण माडावयल्यान अंत्राळी (जमनीर उडयनासतना) आडसर काडटात. त्या आडसराक पयलीं चवायेर बसयतात आनी मागीर कासाळ्याचें पाकीट दवरतात. थोडयांगेर हाचे वांगडाच गवर-म्हादेवाचो फोटो दवरपाची चाल आसा. हे गवर-म्हादेव पुजेचो **वायणां पुजन** हो एक अती म्हत्वाचो भाग. आवयगेर साकून धाडिल्लीं वायणां पयलीं बरीं सुळसुळीत करतात. नाल्लाच्या एका दोळ्याक काजळ कुकूम आनी हळद लायतात. घरांतले एके बायले फाटल्यान पांच वायणां दवरतात. मागीर त्या वायणांक गळसरेचे दोरयेक पांच-पांच पिड्डुकां बांदून ती गळसरेची दोरी वायणांक बांदतात. ह्या दिसा बायलो उपास करतात. हो उपास एक फावट केल्यार ते बायलमनशेन मर-मेरेन, खंड पडूंक दिनासतना करपाची चाल आसा. ज्यो बायलो तयेचो उपास करनात त्यो चवथी दिसाच गवर-म्हादेव पुजेचो विधी करतात.

वायणां पुजेक लायले उपरांत ते सवाशीण बायलेचो घोव त्या पांचय वायणांचेर दिवो लावन तांचेर उदक सोडटा. बायल ऋतुमती आसली जाल्यार घरांतली दुसरी कोणूय सवाशीण बायलमनीस तिच्या नांवान वायण पुजेक लायता. मात, उदक सोडपाचें काम तिचो घोव ना जाल्यार पूत करता. उपरांत चवथी दिसा घुमटां वाजोवन गणपतीची आरती करतात तशी गवर-म्हादेवाची आरती करतात. ह्या गवर-म्हादेवाक अळणी जेवणाचो निवेद्य आसता. ह्या जेवणांत पातोळ्यो आनी आळवाची शाक करुंकूच जाय असो नेम आसा. वायणां उसणीं आसतात. तीं पयलीं दितात आनी उपरांत परत घेतात.

दुसऱ्या दिसा चवथ. घरांतल्या सगळ्या लोकांक गडबड. जेवण खाण करप, सजावट करप आनी मुखेल म्हळ्यार गणपती सामकार माटोळ बांदप. हे माटोळेक जितलीं फळां बांदतात तितलीं उणींच दिसतात. रानांतल फळ-फळावळ लेगीत कारवारच्या सांते बाजाराक येता. तातूंत **कात्रे खिळखिळे, कांगोणां, शेरवडो, शितेचवरी** ही रान-वनस्पत आसता. ह्य संबंधान कारवारकारांली अशी दंतकथा आसा की जेन्ना राम-सीता वनवासाक गेल्लीं तेन्ना चवथिचे परबेक ताणीं रानांत गणपती पुजेक लावन वयल रानफळां माटोळेक बांदलीं. तेन्नाच्यान माटोळेक फळां बांदपाची रीत जावक गेली. आयच्या संगणकाच्या युगांत लेगीत ही रीत आपलें वेगळें स्थान सांबाळून आसा. कारवारांत सहसा कोणागेर कृत्रिम फळ-फळावळिची माटोव नदरेक पडना.

आतां गणपती पुजनाचो विधी पळोवया. सगळ्यांत पयलीं, गणपत दारांत हाडना बराबर घरांतली वयान वा मानान जाण्टी बायल कुकमा उदक उंवाळून उजवे वटेन उडयता. मागीर गणपती घेवन आशिल्ल्यां पांय धुता. तांकां गंध, कुकूम, अक्षता लायता, आरत दाखयता आनी ओवाळटा. मागीर **'येयात'** असो येवकार दिवन गणपतीक भितर हाडटात. गणपतीक भितर हाडना बराबर वर्सावळी पमाण घरांतल्या थारावीक जाग्या स्थापन करतात. कारवारांत भटाक हाडून गणपती स्थापन करपाची पद्धत ना. तरी गणपती देड दिसा वयर दवरून घेतलो जाल्यार पावयच्या दिसा भटाक आपोवन गणपतीची **महापुजा** करपाची चाल आसा. घरांतलो मानान वा वयान व्हड आशिल्लो मनीस चवथिच्या दिसा दनपारां पुजा करता. गणपतीक पावयतना ताचोच मान आसता. गणपतीक चवायेचेर स्थापन केले उपरांत चवाये सकयल **गणेसपड** दवरतात. ते पडी वांगडा २ पानांचो विडो दवरतात. तांचे कुशीक पांच तरांचीं फळां दवरतात. गणपतीक तांबडीं फुलां, गुलाब, कळ्याचेंडू (जायेच्या कळ्यांक कारवारी कोंकणी शब्द), वेल, तुळस आनी गणपतीची आवडिची **धर्माकूर** (हरयाळे खातीर कारवारी उतर), बोरिचीं पानां, मंदार, शमीपत्री, दाळंबाचीं फुलां अशीं फुलां-पत्री पुजेक वापरतात. पुजेक सुरवात करचे पयलीं घरांत जर ल्हान भुरगें आसंत जाल्यार ताका तुवाल्यान गुठलावन माटोळेक बांदपाची चाल आसा. भुरग्याक ल्हान आसतना ताका 'वार-सुत्राची बाधा' जावची न्हय आनी गणपतीची कृपा-सावळी ताचेर आसची हे खातीर आवय-बापूय ही भुरग्याक माटोळेक बांदपाची आंगवण करतात.

कारवारची चवथ **घुमटां** आनी **शैबळ** (समेळ) हांचे बगर कशीच पुरी जायना. कारवारच्या प्रत्येक वाठारांत वेगळे वेगळे पद्धतीन घुमट वादनाचे प्रकार आसा. म्हणून गडावयलो मनीस गुडगेरी वा कडवाड चवथीक गेल्ल्या जाल्यार तो केन्नाच घुमटां वाजयना. तातुंतले तातूंत कडवाडचो **घुमट फाग** कारवारांत एकदम लोकप्रिय. ह्या वादनाची कारवारच्या हेर वाठारांकडेन सर जायना. घुमट आरती लागीं-लागीं तीन ते चार वरां सहज चलता. घुमट आनी शैबळ हांचे वांगडा **ताल** आनी **झगोर** हीं वाद्यां लेगीत आसतात. गणपतीच्या निवेद्याक पयल्या दिसा कोराज्यो आसात. उपरांत ल्हायांचो वा चण्याच्या पिठाचो निवेद्य दाखयतात.

गणपतीच्या जेवणांत वरण, आमाड्याचो रोस, मुगांच्यो गांठी, खतखतें, पांच पानांची अळणी भाजी, तेरें वा आळूं, सोलां कडी, खुटो पाय

हे पदार्थ आसतात. गणपती देड दिसां वयर दवरून घेतलो जाल्यार वयर सांगिल्ल्या जेवणा भायर **पोळी** हो एक वेगळो जिन्नस करतात. घारी (उडदांची दाळ वांटून तातूंत मिरसांगो, आलें, ओली कोथमीर फोण्णां पालो घालून तळिल्लो पदार्थ), सुकुरउंडे (मूग आनी गोड शिजोवन तांदळाच्या पिठांत बुडोवन तळिल्ले), तवसळी, इडली हेय पदार्थ करतात.

**एका लाडवाचो उपास** ही कारवारकारांली गणपतीक केल्ली सगळ्यांत व्हडली आंगवण. हो उपास कोणूय करूंक शकता. मूग शिजोवन, तातूंत गोड, वेळची घालून एकदम घट्ट जाय मेरेन सुकयतात आनी व्हडलो लाडू करतात. पयलीं गणपतीक निवेद्य दाखयतात आनी कुशीक दवरतात. गणपतीची आरत जावन उपरांत घरांतलो सगळो लोक जेवतकीर हो उपास धरिल्ल्यान गणपती सामकार बसून लाडू खावपाचो आसता. तो खातनाच उदक पिवपाचें. उपरांत उदक पिवपाचें नासता. जर लाडू पुराय खावपाक जालोना जाल्यार केळिच्या मुळांत फोंड काडून तो पुरतात. तो दुसऱ्यांक खावंक दिनात. हो उपास फकत चवथी दिसाकच करतात.

चवथी दिसा चंद्राक पळयनात. जर चुकून पळयलो जाल्यार कोणाक खबर नासतना लोकांल्या घरार फातर उडयतात. लोकांली वंय वा झाडां मोडून उडयतात. हाचो हेत, कसलेंच बगलांट आंगारं येवचें न्हय, हो. चंद्र दिसतलो म्हूण लोक खंयच भायर सरनात तेन्ना बायलो घरांतल्या लोकांची मनरिजवण फुगडेन करतात. हे फुगडेक हांगा **मांड** म्हणटात. हो मांड घुमट आनी शैंबळाच्या तालार घालतात.

कारवारी फुगडेंतलो सगळ्यांत फामाद फुगडेचो प्रकार म्हळ्यार **कळश्या फुगडी.** ही फुगडी बायलां वांगडा दादलेय तितलेच कुशळतायेन घालतात. हातांत तांब्याची वा पितळेची कळशी (आतां प्लास्टिकाची लेगीत) घेवन फुगडी घुमट आनी शैबळाच्या तालार घालतात. हो कोंकणी लोककलेचो एक पळोवपा सारको प्रकार.

आतां गणपतीचें विसर्जन कशें करतात तें पळोवंया. घरांत रातची निमाणी आरत जाले उपरांत लोकांक प्रसाद म्हण पंचखाद्य दितात. उपरांत गणपतीक **मोरया, मोरया** आनी **गणपती बाप्पा मोरया, फुडल्या वर्सा लवकर या** अशें म्हणत जाग्यावयलो हालयतात. मागीर घरांतलें सूप हाडून तातूंत माटोळेच्यीं कांगोणां, खिळखिळे, कात्रे, पत्री घालतात आनी गवर म्हण पुजिल्ले कासाळ्या पाना-खोले त्या सुपांत घालतात आनी मागीर धोल वाजयत हळडिच्या आयणांत वा दुसऱ्या बऱ्याश्या झाडामुळांत गौरी विसर्जन करतात.

गौरी विसर्जनाचो विधी जाले उपरांत गणपतीक घरांतल्यान भायर हाडून तुळशी सामकार दवरतात. उपरांत पयलीं घरांतले जाण्टे लोक गणपतीक परत एकदां फूल-कुकूम लायतात आनी ताचे सोंडेवयल्यान दूद घालतात आनी ल्हायो उडयतात. बायलो शेंसर भरतात. घरांतल्या सगळ्यांनी घाले उपरांत गणपतीक पावोवपाच्या जाग्यार (बांयकडेन, न्हंयेकडेन वा समुद्रार) व्हरतात आनी थंय परत एक फावट पुजा करतात आनी प्रसाद म्हण तवशें वांट्टात. मागीर 'गणपती बाप्पा मोरया'च्या सांगाताक ताचें विसर्जन करतात. फोगोट्यो, गर्नाल आनी पावस हांचो शिंवर जाता तो मात दोळ्यांनी पळोवपासारको. विसर्जना उपरांत घरा येतना चवायेचेर एक तांब्याचो तांबयो भरून उदक हाडटात आनी परत त्या मखरांत दवरतात आनी फुडले पांच दीस थंय दिवो लायतात. हांगा कारवारकारांली चवथ सोंपता.

कारवारांत सार्वजनिक गणेशोत्सव खूब फामाद. बाल-गोपाळ गणेशोत्सव मंडळ, मारुती गल्ली; श्री सार्वजनिक गणेशोत्सव मंडळ, कोडीबाग; व्यापारस्तर गणपती मंडळ, कारवार मार्केट; शिवाजी चौक गणेशोत्सव मंडळ, सदाशिवगड हीं कांय मुखेल मंडळां. माजाळी, मुडगेरी, सुंकेरी, नंदनगद्दा, कडवाड, शिरवाड गडार, बाजार आनी पोलीस हेडक्वार्टर हांगाय भौशीक गणपतीचें पुजन जाता. हे सगळे गणपती इकरा दिसांचे. कांय कडेन हालते देखावे लेगीत करतात. कांय खासा कार्यावळी दवरतात. अशें करून इकरा दीस लोकांली मनरिजवण बरी जाता. हांगा एक मुखेल अशी गजाल सांगन दिसता. ती म्हळ्यार, कारवारचे गणपती दक्षिण गोंयांत, खास करून काणकोण म्हालांत खूब प्रसिद्धीक पावल्यात. दक्षिण गोंयचे लोक खास गाडयो करून रातचे गणपती पळोवपाक येतात. कारवारच्या कलाकारांनी केल्ल्या गणपतींक गोंयांत लेगीत खूब मागणी आसा.

* * *

---

☆ ऑल्डस हक्सले म्हणटा –

हिन्दुंच्या अध्यात्माची संवसारभरच्या लोकांनी पोटभर तुस्त केल्या. म्हज्या मत्तान हिन्दुंच्या दुर्भाग्याचें मूळ तांच्या अध्यात्मांतूच आसा. तो तांकां खऱ्या जिविता पसून पयस घेवन गेला. तांच्या वांट्याक असलें नशीब आयलां की जें कोणाच्याच वांट्याक येवंक जायनाशिल्लें. थोडोसो अध्यात्म पुरो आशिल्लो, हिन्दुस्तान परकी सत्येंतलें मेकळें जातलें आशिल्लें आनी बुरशा परंपरां पसुनूय आपणाक सोडोवंक पावतलें आशिल्लें.

१९२५त बरयल्लें ताणें हें.

तरांतरांच्यो धर्मपरंपरा, तरांतरांच्यो चालिरिती जिरोवपी ह्या देशाक ताणें ओपार दिल्या 'ब्लॉटींग पेपरा'ची.

☆ व्हड मनशांच्या व्हडपणाचो अदमास तांच्या म्हऱ्यांत रावन येना. ते गेल्या उपरांत बरोच काळ वचूंक जाय, तेन्नाच येता. जशें—

७०-७० वा ८०-८० माळयांच्या बिल्डिंगांचे भव्यतायेचो अदमास तांच्या म्हऱ्यांत रावन येना. पयसल्यान त्यो पळेल्यारूच येता.

# माजे आज्याक एक हती आशिल्ली

मूळ मलयाळम: वायकम मुहम्मद बशीर
अणकार: आर. के. राव

३.

## हांव... हांव म्हळेले अहंकारी राजा आनी दुसरे खंय?

कुञ्ञुपातुमाय भांगार-शिंगार घालून तयार जाल्या. हाता पांयांक मेती घालन तांबडे करन दोळ्यांत काजळ सूवन काळे करन – एक अजापी प्रतीक्षेंत बैसल्या.

कोण की येता?

आदीं आदीं व्हारडीक तिका एक तमासो वरी दिसली. फडचान खावन वोंट तांबडे करन 'कार्यभारीण' जावंयेत. कानाक भांगराच्यो वेड्यो घालयेत. आवय बापूय सयत हज जात्रेक वचेत. पुण... ताका... तो येवंची दादलो राजी आसतलो?

पुण व्हारडीक करूंक येवंचे दादले कोणेंय आनमक्काराचे मोगाचे धुवेचे मोगाचे धुवेक सारखो न्हय! कांय जाणांक दाम नुपुरो, कांय जाणांलें कूळ-कुटुंब इतलें वरिष्ठ न्हय!

तशें दीस धांवले. धांवतात. कुञ्ञुपातुमायक पिराय चड चड जावन येता. तांत मद्दें तिका एक लान इत्सा. ती तशें व्यक्त कांय ना. मनांत व्हड त्रासा वरी. व्हारडीक करूंक वचे पुरुशाक आधींच तिका एक पळोवुंक जाय. पळयल्यार पुरो.

पुण ही इत्सा तीणें कोणाकय जाणयली ना. मूर्खपण न्हय? मुस्लिम युवत्यांक पुराय योग्य न्हय. तरीय ती इत्सा दीस वतां वतां चड जावन येता. साबाव बैसून स्वप्न देखयेत न्हंतना ती कितें करतली? दारांत पांच स नोकराणीयो आसात. व्हड उतरांचो घुरचा गंदळ. तांत, मद्दें कित्येक वेळां आवयचो खडावांचो 'कटो कटो' आवाज आयकूंक येता. पेळतांत बापूयचोय. थंय जायते दादले मेळ्यात. ते सांगतात कितें?

तिका समझूचे विशय न्हय. कचेरी, वकील, वदल गवायो, लांच – तशें कितेंकी सग. काहीं वेळा तिजे व्हारडीके कायरींय येतलीं. तिजे शरीराचो एक एक परमाणूय ताजेर श्रद्धा दिवंचाक यत्न करतलो. पुण तिका हालुंक जायना. कुञ्ञुपातुमाय हालल्यार लोक जाणतलो. तांत तिका लजाय आसा. तीणें श्वासोच्छ्वास केल्यारीय 'क्लो' आवाज जातलो. चमकता जाल्यार मागीर सांगचेंय नाका! 'क्लोम!' 'चलोम! चलोम!' अशें. इतलें चड भांगार जायें कित्याक? हें कोणाक दाकोवंचाक? जाय जाल्यार एदीं मेळ्ळून दवरयेत. पूण चेडुवां पळोवुंक येवच्यो बायलो केन्ना चडून येतलीं म्हण कळना. भांगार जायें उणे जावंचो एक अपमान न्हय?

आयल्यो बायलो सग भांगरां बुडून आशिल्ल्यो. सगटय कार्यभारीण्यो. तीं कसलीं सग प्रश्नां करतात? दुबावांचो गोंदळ... एदे जाणां तिजें तोंड 'आं' करोवन चोयल्लीं आसात. दांत सग समच आसा की? आशिल्ले कीडीनी खेळेल्ले की न्हय?

तिज्या दांतांक कांय उणेपण ना. समच. सग दांतय सम, चंद आसात. मागीर एदे जाणांक कुञ्ञुपातुमाय गुंगी, केप्पी आसा की. हें तांकां जाणुंक जाय अथवा तिका जाणवीकाय आसा कि ना हें जाणुंक जाय. ते खातीर तीं एक एक प्रश्न करतलीं.

'आमकां रचला कोणे?' एकलेन विचारलें.

कुञ्ञुपातुमायन म्हळें: 'अल्लाहून.'

ब्रह्मांड आनी प्राणीवर्ग सर्वय रचला अल्लाहून मू.

'कयामत' हाजीं निशाणां कितें? हें संसाराचें अंत केन्ना हाजीं निश कितें म्हूण. हें संसार एक दीस ना जातलें. तें फुडेंच जाणूंक थोडीं निश आसात. तीं कुञ्ञुपातुमाय पातलावन सांगली... खालचे ऊंच येतले. आशिल्ले सकल वतले. फटीयो चड जातल्यो. देवाचो विश्वास ना जातो. धर्म सर्वय ना जातली. माय-बापूयक अनुसरण करना. गुरुजनांचेर भक्ति जावना. म्हालगड्यांचो परिहास करतले. बायलांक विनती आनी ना जातली. कोणेंय कोणाक आदार करना. कोणेंय कोणाक विश्वास क मोग ना जातलो. वैर चड जातलें. निष्ठुरपण वाडतलें. राजा आनी शा निश्टुर जातले. पुराय विश्व आपणाखाल हाडून शासन करची इत्सा वाडती सर्वय नाश करचीं आयदुवां सयत भयंकर झूजां जातलीं... तेन्नाय लोक आसतलो. लोक ना करूंक केवल अल्लाहूक मात्र जातलें. 'कया लागीं येवंचे फुडेंच मनीश विसरप म्हळेल्या भयानक स्थितींत पडून घुस्पतो ते दिसांकडे एक दीस सूर्य उदेवंचाकच मनीश तांग तांगेले कामाक व तयार जावन रावचे मद्दें अचानक एक आवाज भो दिगायेन, व्हडान म आयकतले.

'आहा... हें कसलो आवाज' म्हण तांकां अजाप जातलें. तेंच आख 'सूर' म्हळलो रणशींग!

इस्रफिल मलक हो आवाज करता. तो एक नळियांतल्यान. त्या नळि लोकांतले सर्वय प्राण्यांलें लेका प्रमाणी वेजां आसात. तो आवाज आय मनीश जायते दिकांर सूर वेगवेगळ्या थळांकडेन मेळन भयान विचारत

'हें खंयसून येता?'

तो आवाज क्रमान व्हड व्हड जावन मेघनादा वरी कठोर जातो प्राणी भयान हांगा थांगा भोंवतले. आवाज मागीरीय भयंकर जातलो. म आनी दुसरे प्राणी एकेकय एकठांय करन मरन पडुंक लागतले. भूंय हालती फुटून उसळतली. समुद्र सगय पाळां येवन तडी चडतले. वारें-झोड येतो. डोंगर आनी व्हड व्हड पर्वत लाखांनी कुटके जावन भेतून उसळले लोकांसून उजो ना जातलो. नक्षत्रां, सूर्य आनी चन्द्रेम शेळ जावन वाडवल्लो इंगाळो जातलो. सर्वय नाश पावतलें. सूर्य मध्य ग्रहमाला ब्रह्माण्ड कांय बाकी जावना. सर्वय नाश पावतलें. अनंत शून्यताय. शून्यता आखेर... आखेर परमेश्वर मात्र बाकी उरतलो. तेन्ना तो म्हणतलो: 'हांव म्हण अहंकार केल्लेले राजा आनी दुसरे खंय? शून्यताय. म्हाशून्यत

अशें कोटी लेकान युगांक केवल तो मात्र आसतलो... मागीरीय रचतलो. नक्षत्रां आनी सूर्य-चन्द्रमा जातले. सर्वय आत्मांकय दुसरीय काडतलो. मागीर शिक्षा रक्षा... सग स्पष्ट करन कुञ्ञुपातुमाय आयकतली. तिका हें सर्वय मन: पाठच आसा.

अशें प्रश्न करपाक तिका परीक्षा घेवपय तिका देकू येवपय... खातीर; न्हय जाल्यार भावाखातीर.

तिकाय एक लान भाऊ आशिल्लो जाल्यार!... एक फांतां तिकाय कांय घरांक वचून. कांय प्रश्नां करन व्हड 'कार्यभारीण' जावयेत आशिल्लें. एक मुस्लीम बायल मनीशीक कळुंक जाय आशिल्लें सर्वय तिका कळता. घाटीन ती खुरान पारायण करतली. खुरान अल्लाहुगेलें वचनां आसात. खुरांन आपडुंक जाल्यार शरीर शुद्ध करूंक जाय. ते खातीर एकच न्हावुंक जाय, ना तरी हात पांय घुवुंक जाय. ताका कांय अरबी वाक्य म्हण हात, तोंड, नाक, चेरो, कान, ताळुव, पावलां – हीं सर्वय तीन तीन फांतां शुद्ध उदकांत धुवुंक जाय. मागीर तिका प्रार्थना कळता. सकाळीं, पूर्व, पश्चिम, दक्षिण, उत्तर हे दिशांक समझून पांच फांतां प्रार्थना करूंक जाय. 'इस्लाम कायरें', 'ईमान कायरें' हें सग तिका कळता. तिका दाखोवंचाक कोणाचान साध्य न्हय. चेडुवां देकचाक येवंचे एक कार्य भारिणीन तिका विचारलें:

'ऐषाबीबी कोण आशिल्ली?'

कुञुपातुमायन म्हळें: 'मुत्तुनबीची घरकान्नी.' मुहमद नबिचे बायलांत एकली आशिल्ली ऐषाबीबी.

'ऐषाबीबीचे कान विंदले की?'

'विंदले.'

'इतल्यो वेड्यो आशिल्ल्यो.'

'सुबरकत सून जिबरील (अलैसलाम) मतियां सल्लो हाडून रसूल इल्ललाहु अलैही वसल्लाहाचे हातां दिलो. मुतुनबीन तो ऐषाबीबीचे कानांक घालो!'

तिजे कानांक मतियां झेल्लो न्हय घाला. दोनींतय मेळन एकवीस भांगरा वोळं. तांत एकएकांतय वारें लागल्यार लान आवाज करन हालतलीं. तिजे भायरंचे कानांक दोन भांगरा 'ताक्के' आसात. ताजेरीय आसात लांबचे दोन पातळ भांगरा पालो. गोवंटेक भांगरा सरपळयो, ताजे भायर एक थोर भांगरा घोसाळें, आवयचे गोवंटेर आसचे वरी 'तालिपूट' ना. तें व्हारडीक जाले उपरांतच घालतर्लीं. तिजे हाताक भांगराचे आवाज करचीं कांकणां आसात. बोटांक मुदीयो आसात. ती बापूयन घाल्ले वरी तांव्याची न्हय. मुसलमान दादल्यांक ठेठ भांगार उपयोग करचाक पाडना.

कुञुपातुमायचे हाता बोटा घट भांगराची मुदी हतीदोळ्याची. तिजे कुश्टाक भांगरा नेवाळें आसा. ताजेर जायतीं 'अंत्रां' आनी 'शिंपियो'आसात. मागीर तिजे पांयांक पोकळ भांगरा वाळे आसात. तिणें चमकता आसतना तांत भितरसून चड आवाज आयकूंक पडता. तांत भितर कितें म्हण तिका कळना. भांगरा कण रेंवे कण... कितेंकी आसा.

तें तिणें चमकचे वेळार आवाज करता. ती साबाव बैसतली. भूख लागनातिल्लें ती जेवता. नींद येवनातिल्लें ती निदेवचाक पडता.

ती ते व्हड मकानाचे मद्दें आंगणांत चांदने रातींत रावतली. मनांत स्वल्प विषाद. ताका कारण कितें? कुञुपातुमायक कळना. ती आठयतली. साबाव दिसचें हें. तिका जाय आशिल्लें सग आसा. तरीय ती नक्षत्रां भरलेले मळबांत पळवन हांसचाक प्रयत्न करतली. आवय भितर उलो दितली. थांगा तशें रावचाक पाडना! कोणेंय देखचें ना?

'आहाजत कोण गे आवय?'

आवय सांगतली: 'इफरीन, जिन आनी शैतान.'

मळबावेल्यान उबून वचे कांय अदृश्य प्राण्यांनी तिका देखली जाल्यार? दृष्टि पडचे गदी मळब शून्य न्हय. मलक, जिन, इफरीन आनी शैतान हांचे भायर इबलीस नांवाचो चेडोय मळबावेल्यान उबून वतलो. तशें वचे वेळार कुञुपातुमायक देखली जाल्यार... कांय जाण तिजेर मोह जावन तिजे देहार येतले!

ती भितर वतली. मनीश, पर्वत, जिन तशें कोणेंय तिका देखचांत तिका कांय विरोध ना. तरीय ती एक मुस्लिम बायलमनीश न्हय की?

ती एक कैदी आसा. वारेंय, उजवाडूय तिका पाडना. ती खणसां काडता. चीगे तिका सम लागना. ती कांय कसलेंकी सपनां देकून जागी जाता. तें कोणाकय सांगचें न्हय. तिजे एक एक परमाणूकय तें हून करयता. अशें कुञुपातुमाय स्वप्नांतल्यान एकवीस वर्सां पिरायेर पावली. तेन्ना मद्दें तिजे जीवितांत स्पश्ट कांय घटता.

तिजें भांगरा जायें सर्वय बापूयन मेकळोवन घेतलें. आवयलेंय काळ्ळें. सग तोलन विकून केस चमकयता. कुञुपातुमायचे कान, गोवंटो, कूरट, हात पांय सग खाली जाले. केन्नाय बापूय आनी परिवार कचेरींत. केस चमकेताय. आखेर एक आघाताचे देगेर पावले. केस बापूयक दोष जालें.

अपमान आनी पराजय. तशें तांकां वसका जालां खंय थंय. जल्मून व्हड जालेल घरांसून भायर सरन गेलीं., तीं गेलीं. नीट उबो बापूय मुखार माथें बावगवन दुखां घालन. आवय मागलान. कांय मन:क्षोभ नातिल्लें कुञुपातुमाय सगटांचेय सार्वजनीक रस्त्याचेर देंवली. मशीदा लागींच्यान तीं न्हयचे देगेर पावलीं.

संसाराक कांय जालें ना. पुण तांगेलो भूतकाळ, वर्तमान काळ आनी भविष्य काळ – सग नाश पावले. तरीय चांदीणा उजवाडांत न्हय. रेंवे मैदान स्पश्ट आसा... उदकांत लोक न्हाता... रेंवे मैदानाचेर कांय जाण बैसून हासून खेळन गप मारतात... संसाराक कांय जालें ना. पुण वट्टनडिमा, ताजी बायल आनी धूव हांगेलें जीवन पुराय नाश जाल्ले वरी दिसलें.

संसाराक कांय जालें ना. कुञुपातुमायक आवय-बापूय हांचे मागलान खंय खंय म्हण नेणतां चमकून गेली. तिजे पांय वावंटले. शरीर थकलें. पुण अजापां भरलेलो संसार. जनां कोणेंय नातिल्लो सार्वजनिक रास्तो.

चान्दीण्यांत ती मागलान चमकली. ध्येय खंय थंय? हे रातीची परिसमाप्ती ना की?

## ४.

## पोरण्यो दोन खडावो

कुञुपातुमायक व्हड संतोस दिसलो. प्रतिकार अथवा विरोध भरलला संतोष. एक व्हड आपत्ती घडल्या. तरीय जनांक देखयेत. शुद्ध वायु श्वासोच्छ्वास करयेत. सूर्य प्रकाशांत रावयेत. चांदन्यांत बुडुयेत, धांवयेत, उडकी मारयेत, गींत म्हाणयेत. गींत कांय कळना जाल्यारीय – कितेंय करचाक तिंका स्वतंत्रताय आसा. मलक, जिन, इफरीत, इन्स - कोणेंय योवो.

अजाप म्हणा, कोणेय आयले ना? दाम नांतिल्यांक कोणाक जाय?

ते विश्वासांत कुञुपातुमायक थीर रावचाक जालें ना. दाम ना जाल्यारीय ती एक तरणाटी आसा. सुंदर आसा. कांय दादले मनीश तिजेर तात्पर्य काडुंक लागले; कांय जाणं तिका चोवन दोळे धांपतले! कांय जाणं नाणें दाकयतले.

तें सग चांगाक न्हय म्हण तिका कळता. नाशाक आसिल्लो उलो!. तांचे कडे कितें कर्येत? ती कोणाचेच श्रद्धेंत येवनातिल्लें चिंचे रुका सकल येवन बैसतली. न्हंय जाल्यार कमळा तळये लागीं.

तें एक चड नीळ काळकाचें उदका समतल. भरन धवीं आनी तांबडें कमळां आसात. उदका लागून पळ्ळेलीं पाचवे लान वाडकुळीं पानां. फुलेवन फांतीन रावल्ले फूलांक परसून येवंचें शीतळ वारें.

ती तशें बैसतली. अनंत मळब. विशाळ लोक.

घर भो लागींच. तें घर म्हण कुञुपातुमायक दिसुंक लागलें ना. पालं काळ्ळेल्यावरी, निपट तांबडे फातराचें एक पोरणें लान घर. दोन कूड आनी एक अडकळी आसा. सुके भाततणान शींवल्लें. ताजे उंचार भात

हांगा थंय किरलेवन पचर्वी रावल्यांत.

घरां भितर सामान चड कांय ना. दोन तीन मांदर्यो आनी उशीं आनी सगटालींय वस्त्रां दवरची एक पेट (संदूक). आनी दोन तीन घासलेट तेलाचे दीवे.

अडकळेंत दोन तीन कोपूरलांय कांय रावंदयां मलटीयोय जेवंच्यो अथवा पेजेनिशें पिवंच्यो मलटीयोय आसात. पिवंचा-खावंचाक भो कश्ट.

पोरणे घराक सून कांय हाळें ना. रिते हातान आयलीं. पुण आज्याले ते व्हड सूळ्यांची हतीचे सूळ्याचे खुंटीयाच्यो पोरण्यो दोन खडावो आवयन कशेंकी हाळ्यो कि येवंचे वेळार आवयचे कडे आशिल्यो हें कुञ्ञुपातुमायक कळना.

आवय केन्नाय चमकतली ते खडावांचेर. केन्नाय कलपला करन कांय पुणीय उलोवुंक जाय. तोण्ड भरन फडचना तांबळय जाय. बापान फडचान खावप ना. तुरंत केस पिकलो. चड उलोवंचीय ना. खंय थंय म्हण कळनातिल्लें खंयचेकी अदृश्य ध्येयाक पळयतर आसतलो. उगडास करूंक जायेतं आसा मूं. एक म्हा साम्राज्य गेले वरी घडणुको.

'तें सग परमेश्वराचे, मुत्तनबीचे, आनी मागणी केलेल्याचे भाग्य.' बापूय म्हणतलो. 'एक फांताची प्रार्थना सरी हांवें सोडली ना. एक उपवास-व्रत सरी हांवें सोडलें ना.'

मागीर अशें जालें कशें? कुञ्ञुपातुमायक कळ्ळें. कांय घडलें ना. न्हय जाल्यार घडणुकेच्यो अपराध कोणाचो? बापूय चुकलो म्हण सांगचाक तिका मन येना. आवय, मामी, माम हेवय अपराधी म्हण ती लेकना. पवित्र खुरान आपडून चोर गवाय दिल्लेल्या मुखेल मनीशांक कशें अपराधी करतलीं? मनीशांत कोणांतय कुञ्ञुपातुमायन अपराध देखलो ना. यथार्थ अपराधी शैतान इबलीस नावांचो चेडोच!

कुञ्ञुपातुमाय केन्नाय प्रार्थना करतली:

'परमेश्वरा, आनी पुणीय आमकां इबलीस नावांचे चेड्याचे यातना सून राख!'

न्हंतना कितें करतली? गत्यंतर ना. ते चेड्यान हें केलें.

कुञ्ञुपातुमायचो बापूय स्वयं मालिक म्हण अनभसून आयिल्लीं. भाड्या बागो, भाता शेतां बापूयनी स्वतःचीं न्हय आशिल्लीं. तें व्हड घरय सर्वय बापूयकय, बापूयचे सात भयण्यांकय आशिल्लें.

'रातीनरात आवयक पाड्या-गाडीर चडवन कचेरींत व्हरन आमगेलो भाव वट्टनडिमान आमकां दोगांकय आशिल्ली मालमत्ता स्वयं बरवन घेतलो!' अशें सात मांयांनीय मेळन बापूयचेर केस दिलें.

'तें माका मागेल्या भांगरा मोगाचे बायलेन वरवन दिल्लेलें'. अशें कुञ्ञुपातुमायचे बापूयन वादविवाद केलो. केस जायते वर्सां चमकलें. दोनीय पक्षकारानीय दाम म्हस्त खर्च केलो. निष्णात वकील मनीशानी येवन वाद प्रतिवाद केलो. दोनीय पक्षकारानी जय पावंचाक मशीद-मशीदां कडे आंगवण आवंगयली. संतागेले समाधीचेर वचून प्रार्थना केली. दाम दिलो. मशीदांत ध्वजारोहण आनी गंदा कलशा-उत्सव केलो. हाजे भायर दोनीय पक्षकारांक व्हड योग्यवंतानी चोर गवाय दिली. केस तशें वट्टनडिमाक अनुकूल जातालें. तेन्ना एक घुस्पण जाली.

वट्टनडिमाचे बायलेक पिश्शें आशिल्लें! थीर बुद्धीन न्हय वरवन दिल्लेलें. पुण अंतरलेल्या ते बायलेक उलो दीवन हाडून कोर्टांत कैदी उबी रावचे जाग्यार रावोन प्रश्न करूंक साध्य की? गवाय आयले.

वट्टनडिमाचे बायले नांव कितें आशिल्लें?'

तांणी तशें म्हळें. आशिल्ली जाल्यारीय, ना आशिल्ली जाल्यारीय वट्टनडिमाचे संपत्तीक वट्टनडिमेचे भयण्यांकय अधिकार ना की? घुस्पा-गोंदळाचे ते केसा पसावत कुञ्ञुपातुमायक व्हड कांय कळना.

सर्वय शैतान इबलीस नावाचे चेड्यालें काम आसा – हें मात्र तिका कळता. कशेंय जालें तरी केस बापूयक दोष जालें. मशीदाचे आनी 'पिश्या... दोनीय केसांतय खर्चाक भो चड जागे रीणांत गेले. बापूयक आखेर रावचा... रोडा देगेर आशिल्लो हो पोरणो जागो मेळ्ळो.

तांत एक लान सुक्के तणान शीविल्लें घर, चार माडीयो, णव मा... एक बांय, एक चिंचे रूक, सरहद्देर एक व्हड कमळां-तळय – हें स... आसा. तें पयलेंच देकचाक कुञ्ञुपातुमायक भारी संतोष दिसलो. एक कम... तळय ती पयलेच पळयता. धवीं आनी तांबडीं जायतीं फुलां. ती... सगय भोवन चोयतली. एक तलवार सून भोवन येतर आवय कि बा... कोणेंय कसल्याकय तिका उलो दितलीं. कशेंय तें भोवन पुराय करू... जालेना. तरीय एक चंद दृश्य हें. पुण ताजे चंदायेंत एक भिरांत... तिरस्कार... हें कांय स्पश्ट न्हय.

थांगा एक घडणूक घडली. त्या उपरांत ती न्हावंचाक वता लाग... पटांगणांतले बायंत. थांगा एक मकान आसा. तांत मनीश कोण रावना... न्हावन रावचे कांय वेळा थंय रावतले. तेन्ना तीणे थंय वचेना. थंय... बांयचें उदक भारी ठंड आसा. ताजे लागी एक भोवऱ्या रुकार मोगर... वाली फन्दळेवन आसा. ताजेर भरन परमळीक धवीं फुलां आसात. ... ती एक राशी वेंचून काडतली. माथ्यार माळप ना. इस्लामाचे बायल... फुलां माळयेत कि ना म्हण तिका कळना. तरीय तिका मोगरें पसंद आ... तशेंच ती थंय बैसून केळीचे वावळीचेर माळा गांततली. थांगा बैसचा... सूख आसा. हालप कांय ना. कोणेय ना. मुखार खालटार रोड आ... ताजे पेळतांत भाता शेतां.

ताजे पेळतांत खंयींच न्हंय आसा. थंय वचून न्हावुंक जाय जाल्य... गावंचे वाटेन वचुंक जाय. व्हारडीके पिराय जालेली चेडूं गावंचे वा... कशें वतलें? मागीर रावचे कडे बांय जाल्यार थांगा आड-फाड क... ना.

देकून कुञ्ञुपातुमायन चिंतन केली: कमळां तळयांत एक न्हावया. को... देकचीना. दनपार परतल्लो वेळ. चांग फर्स्ट क्लास वोत आशिल्लें. ... एक निर्मळ आंगूठी घेवन वचून चोगो निसरावन तणा भुंयचेर घालो. मा... आंगूठी वेडावन वस्त्र निसरावन चोम्या उंचार घालें.

ल्हवू उदकांत देवली. मोम्या भरान उदक पावंचाक ती देवन बुड... ताका लागून दोन तीन बुडकुळ्यो घाल्यो. उपरांत शरीर घासुक ... केलें. अचानक उदकांत चोवंचाक चुरबुटेलंय दिगय, थोरय लान आशिल्... एक काळें पदार्थ तिजे लागीं जलद येता.

'देवा, जळू!'

कुञ्ञुपातुमाय जलद उंचार सरली, पुसलें. जांगेर कितेंकी काळें... चोवंचाक ती भियेली. ती तिटकारन कडफडली. एक जळूवेन तिजे जां... चाबला, दोनीय माथ्यानी!

आवयगे, बापूय। धावन येयात! माका चाबून जीव नाशी करता! धावन येयात. सगटय धावन येयात. अशें बोब मारूंक जाय म्हण ति... दिसलें. पुण तिणे चोगो घालो ना! वस्त्र न्हेसली ना! कितें करतली?

ती धुवंरून सिजून तिटकारन कडकडेवन तशें रावली. जळू सु... येता. ती एक तलब सोडून थोर जावन लांबून पडचाक कश्ट चड जा... हालल्यार ती नागडे जांगेर लानसाणीन झरतली हो. ... ती दांत कि... तशें रावली. जळू एक उंडो रुपान सकल पडचाक ती रावून उ... कूदली! जांगेर रगत लागलां, व्हांवताय. तीणें एक कंजोळी उदक का... जांगेवेलें रगत धूवन पेल्लां घालें.

जोळूवेक कितें करतली?

तिका राग आनी तिटकार आसा. तिका भरन सोवुंक जाय म्हण दिस... कितें सोवंचाक?

'इबलीसे तूं मागेलें रगत सग पिल्ली' म्हण सांगून तीणे तिका ...

नाशी करचाक आठयलें. पुण शक्य न्हय. जळूवेक आवय आनी बापूय पळयतलो ददलो जळू कि बायल जळू म्हण कळना. भुरगींय देकतलीं. अल्लाहून रचल्या. कुञुपातुमायकय रचल्या अल्लाहून. तेन्ना! जीव नाशीं करचाक पाडना. पाप आसा. दोष. हिंसा. नज.

कशेंय जावो वचो. तिजे घराक सोडीन. रक्षा पावो. वच.

'जोळूवे, तूं आनी कोणाकय घास काडून रगत पिवंचाक नज. आयकलें? रगत पिल्यार तू मरण पावन थंय गेल्यार परमेश्वर तुका नरकांत धाडतलो, आयकलें?' म्हण ती तें बरें काम करचाक तयार जाली. तीणे एक रुका कुटको काडून तिका दुकोवनातिल्लें, ल्हवू उखलून उदकांत घालो. तें पडचाक राखून राबल्या वरी 'कप' म्हळेलो आवाज करन व्हड मासळीन तिका गिळ्ळी!

कुञुपातुमायन पळोवंचाक एक न्हय, दोगं आसात. 'घोव आनी बायल!' मात्र न्हय 'चेरडूवंय आसात.' तांबडीं लान लान भुरगीं. नीळ उदकांत लकलकचीं तांबडीं शाईचे कणा वरी.

'तूंवें कित्या, मासळे, तिका मारन गिळ्ळली? दोष न्हय?'

तिका धरन मनीश खातात. हें दोष म्हण कुञुपातुमायक दिसलें ना! ती त्या मासळेचे कुटुंबांक चोयत रावली. निपट प्रेम नातिल्ले दोळे. दोगांचेय नाकांतल्यान उदक भायर वता. तें अलियारांचे 'दुलफिकर' नावांचे खाण्डे लागून.

तांतल्ली ती थोरी मासळी तिका चोयता. कुञुपातुमायक मेळ्यारीय ती 'कप' करन गिळतली.

ती केस वळवन वस्त्र न्हेसून कमळा तळयेक पुराय एक चोयली.

फुलां सर्वय पोरणे गदी धवीं आनी तांबडींच... पुण ताजे पोंदाक मनीश लोकांचें रगत पिवंच्यो जळूवो, जळूवांक धरन गिळच्यो मासळ्योय आसतना – कमळां फुलां कांय क्षोभ नातिल्लें... तीं पुराय तिका पळोवन हासून तिका खेळ करचे वरी... तशें ती राबले वेळार येता कमळा तळ्यांतलो आनी एक निवासी.

एक व्हड हेवाळें! कि कुसडो? सकलचो हिस्सो धवो. एक कमळा पानार पोवन चडलो. माथें उदकांत करन पळ्ळा. तुरन्त अस्त्र सोडचे वरी कित्याककी धरन ताणे माथें उबारलें. एक गरीब मासळी आसा. ती रडली ना. उलयली ना. ती वांकुडी जाता, शेंपडी कडकडायता. तिका कांय क्षोभ नातिल्लें गीळन हेवाळें पयले वरी उपायान पळ्यां. लागीचें खंय?

कुञुपातुमायन श्रद्धेन पळोवंचाक वेगळेय आसात निवासी. कासोव, पळ्ळत्ती, करिमीन, बेबे – कसकसले जीवाजन्तु!

कमळां साबाव हासतात! सग वाटेन चोयल्यार एक बरी चंदाय आनी भय आसा त्या तळयेक.

त्या शोधा उपरांत कुञुपातुमाय ते कमळा तळये लागी वचें आपल्याक मोग करचेय, भिसरावंचेय एक सखीचे लागी पावंचे वरी आसा.

तिका काम कांय ना. भारी काम आसल्यारीय करूक कळना. फूडे नाशिल्ली स्वतंत्रताय तिका आसा. पुण ही स्वतंत्रताय कित्याक पुरो? तिका आहार तयार करचाक कितें, उजो सांपूक तरी कळना. आवयकय तांत व्हड परिचय ना.

बापूयन कश्ट काडून आहाराक जाय जालेलें हाडुंक जाय. तें रांदून तयारय करूक जाय.

'बायल जाल्यार उजो सांपूक पुणीय कळुंक जाय.' बापूय म्हणतलो.

तें आयकतर कुञुपातुमाय लजेवन माथें बावगयतली. पुण बापूय सांगता आवयक: आवय त्या पोरणे खडावांचेर 'कटो, कटो' आवाज करन चमकून म्हणतली:

'हांव आनमक्काराची भांगरा धूव आसा.'

बापूयन कांय उलोवना.

आवयचे हातार उदक ओतून दिल्ले ना जाल्यार आवयन जेवंचीना, तशें बैसतली.

बापूय रागान चोयतलो. कुञुपातुमायन आवयचे हातार उदक ओतून दितली. आवय म्हणतली: 'तुजे आज्याक एक हती आशिल्ली. व्हड एक सूळ्यांची हती!'

बापूयन कांय सांगचीना. आवयलें संभाषण चड जालें वेळार वारें-झोड भितर दामून दवरल्या वरी बापूय संत सांगतलो.

'आगो तूं एक तोण्डां जीब दवर!'

आवय विचारतली: 'न्हय जाल्यार नाकांत वडून काडतले की? हांव आनमक्काराची भांगरा धूव. माका लैसन्स आसा.'

आवयक कितेंय सांगचाक लैसन्स आसा!

'माजे भांगरा आवसू, एक साबाव बैस.' कुञुपातुमाय म्हणतली.

'हराम्याक जालेली', आवय म्हणतली तूं जल्माक येवंचाक कारण?

तेन्ना गरीब इबलीस न्हय अपराधी. कुञुपातुमाय उगडास करन संकटान हासतली. पुण चड काळाक तिका हासुंक जाले ना. भय तिजे मनांत आयलें. बापूय केन्ना आवयक जीवनाशी मारतलो?

## ५

## वारें आयलें – पालो पळ्ळो ना

मनीश अशें जातात कितें पसावत? म्हस्त चिंतन केल्यारीय कुञुपातुमायक समझना. स्वल्प चड वर्सां जाल्यार घोव आनी बायल एकमेकाक देकचाक पाडनातिल्लें जाता कित्या? सग आवय-बापूय अशें की? एकमेकाक चाबून पिसडुंक वचे वरी. सौम्य उतरां नात. उतरां दाट करन वैराग्यान निश्टूरपण. स्नेहभाव बिलकुल ना. तें पळोवन बैसचे वेळार... केन्ना केन्ना कुञुपातुमायक हास येतलो. पुण तीणे हासप ना. जीवन सुमार संकटात जालां हाका जापसालदार कोण? कारण कितें? कोणांकडे विचारतलीं? बरे रूपान आहार खावंचाक कांय ना. वस्त्रां पासून जाल्यार सांगचे नाका. घाल्लेलें घालन... तेंवूय उंबोळन उंबोळन... सग गोबरा रंगाचीं जाल्यांत. हाका सगटाक अपराधी कोण? चड तमासो म्हळ्यार तांकां मदतनीस कोणेंय ना. कोणें श्रद्धा दीवनातिल्ले. तेगं प्राणीयो! प्रतापाचे ते पोरणे काळाक कितलो लोक आशिल्लो! गावंचो कोणेय नीच मनीशूय तांचेकडे रगता रिश्तो आसा म्हण दाकयतालो.

'रिश्तेंत एक माम आसा. न्हय जाल्यार रिश्तेंत एक आपप्पा.'

चोय आखेर आता रिश्तेंत कोण ना. हे संसारांत तीं तेगं जाण मात्र. पुण हीं तेगं जाणं बापूयक आवयक देखचाक पाडना. आपळ्याक सगटय चूक सांगतलो. धमकायतलोय. तें ल्हवू न्हय. गावंचे वाटेन वतल्यानी आयकश. गावंचो लोक सग परिहास करतलो, खेळ करतलो. कितें करप? बापूयक एक एक परिहासाचें नांव देकून धरचे प्रयत्नांत आसा आवय. तशें 'चेम्मीन अडिमा' म्हण आवयन बापूयक नांव घालें.

बापूयन चेम्मीनाचो (सुंगटांचो) व्यार केलोना. चड दाम घालनातिल्लीं कामां बापूय करन चोयता. हाचे मदें एकदां सुकी मासळे व्यारांत गेलो. बापूयक तें पसंद जावन न्हय. ते मनीशाक घाण येतली. शेजारय घाणयेतलें. सुक्की मासळ, पेडवो, मासो – अशें एदयो. त्यो सग एक खोट्यांत काडून माथ्यार दवरन व्हरन दूरचे सांतांत विकतलो. प्रतापी वट्टनडिमा. राजाचो प्रताप. परतून येता आसतना ओरवा भायर रावन्दयेक हरवी मासळीय हाडतलो. फूडे सग कुञुपातुमाय मसळी खाताली. मांसय खाताली. मागीर

मागीर दोनीय खावना जालें. केवल शाक मात्र.

कमळा तळयांतले मसळीन, जळुवेक गिळेलें देखत सून तीणे मासळी खावंचें रावयलें. बापूयन मासळे व्यार पुरो करन बोकडी कातरन विकप आरंभूक ती मांसय खायना जाली. कातरन दूरा दवरल्या बोकडा माथ्याचे धांपनातिल्ले ते दोळे – तांत कांय आसा, अशें न्हय. तरीय तें मनांक व्हड कश्ट दिता. मासळी अथवा मांस शिजोवन रावन्दय करन दिवंचाक तिका विरोध ना. पुण मीट चड उणे करचाक तिका कळना. कशेंय रांदून वाडून दिवंचाक तिका कळतालें. बापूय फांत्यार उठावन हात पाय धूवन दांत घासून सकाळचीं प्रार्थना जातर तीणे एक कप दूद नातिल्ली चाय तयार केल्लेली आसतली. बापूय तीवय पीवन 'बिसमीम' म्हण ईश्वरी आशीरवाद सयत नीट उबी चमकून वतलो. हातांत एदे रुपयांचे दुडय आसतले. दूरा खंयकी आशिल्ल्या त्या सांतांत वचून केळ्यां घडय, खुंटा कणंग, सूर्ण, फपळ, नार्ल – हांत कितेंय घेवन विकचाक आसतले.

'' 'चेम्मीन अडिमा' पोवन वाटावंचाक गेलो गो?'' अशें विचारून आवय उठायता. पोवन! फूडे जायते देखलें आसा... ताचे मद्दें कायळे रडून, वेळ फालें जावन वोत पसरलें आसतलें. आवयक ईश्वराकडेय झगडें. प्रार्थना कांय ना. प्रार्थना करचें कित्याक?

ओ... जायते फांतां प्रार्थना केल्या. आनी आगो हरामाक जल्मले? उदक हून केल्लें की?

उदाक हून केल्लेलें आसतलें. कुञुपातुमाय म्हणतली, 'उदक हून केलां मू गे!'

हून उदक ना जाल्यार आवयन न्हावना. फूडे प्रतापा कालाक हून उदकांत न्हाताली. देकून कुञुपातुमाय प्रतिदिवस उदक हून करन सोडतली. पुण ताकाय आसा अपराध. हूनसाण चड जाली ना जाल्यार उणे जालीं. न्हाण जातर आवयक धूवयलें वस्त्र न्हेसुंक जाय. जायती पैन्दारय दूदय मेळोवन चांग चाय आनी तूप सारयल्ली थोरी चपातीय जाय.

आशिल्लीं वस्त्रां, बापूयनी, आवयलीं आनी तिगेलीं, पयलेंचं उंबळन पशेवन सुकत घालेलीं आसतलीं. न्हाण जातर आवयक तिगेलीं वस्त्रां दितलीं. मागीर चाय आनी आहाराचीं कायरीं जाल्यार... खाजूरा-गोडाची दूद नातिल्ली चाय आसतली. चायेंत गोडसाणी बदलाक मीट घालन पीवयेत म्हळेलें कुञुपातुमायचो शोध. आवयक तें कांय पसंत ना. वेगळे मेळचाक वाट नातिल्ल्यान, हरामाक जल्मले, तूं जल्मले कारण. अशें म्हणून ती पितली. आर्दी आर्दी चाये आयदन भूंयेचेर मारन भेतताली. केन्नाय आयदन घेवंचाक दुडू खंय? बापूयन एकदां म्हळें:

'आनी तिका करट्यांत दिल्या पुरो.'

आवय 'भों' करन रळ्ळी. आवयन म्हळें:

अल्लाहो! आयकता की? मुतुनबी आयकताकी? आनमक्काराचे भांगरा धूवेक करट्यांत दिल्यार पुरो खंय.

त्या खातीरीय कुञुपातुमायक दोष सांगतली.

'तूं निर्भागी गो. तुजो तो तीळ नशीबाचो.'

तिजे गालावेलो तो काळो तीळ चिमटून काडुंक साध्य की?

बापूयचे दोळे तांबडे जातले. व्हड रागान बापूय ल्हवूच 'आगो कुञुपात्तुमाय!' अशें उलो दितलो. ते आवाजांत धमकी आसा. आवय चुप रावतली. बापूय भायर गेल्यार मागीर आवय आरांभतली:

'हारामाक जल्मले! गर्विष्ठे! रावल्ले पायाक सोरोप चाबतलो. तुजे माथ्यान उजवाड देकचाक...'

अशें म्हणतली. जल्म दिल्लेली आवय... वाटेन वतल्लीं भुरगीं परिहास करतलीं. कुञुपातुमाय म्हणतली:

'आवय गे, एक होळू उलय!'

'व्होडान उलयतलीं गो! माका व्हडान सांगुक लायसेन्स आसा!'

तशें एक दीस आवय कांय व्हडान म्हणताली. तें आयकून आयल्लो बापूयन उगो रावचाक सांगलें. आवयन आयकलें ना. बापूयन दुसरीय सांगलें. आनी दोळे तांबडे करन बापूय उठावन गेलो...

तें देखून आवय परिहास रुपान हांसली. आवयन मधुर स्वरार म्हळें:

'चेम्मीन अडिमा आनमक्काराचे भांगरा धूवेक भिसरावचाक आयला', अशें सांगून जालेना कि ताजे फूडे एक भयंकर घडणी घडली:

बापायचे उजे हातान आवयचे गळ्याक धरलो. तें धरप सशक्त जालें. आवयन दोळे भायर काळ्ळे. दांत किरडून बापूयन ल्हवू म्हळें:

'तूं मर...' बायल आनी घोव!

एक लान भुरग्यावरी आवयक बापूयन एक हातान गळ्या धरन उबारली. आनी खाल उडकायली. आवयच्यो दोनीय खडावो माडोवन भायर घाल्यो. आवय हालनातिल्लें पळ्या!

हें सग एक खीण भितर जालें. कुञुपातुमाय स्तब्ध जाली. लोक पुराय अंधकारा वरीय, ती एक अगाध फोंडांत पळ्या वरीय... आवयक बापूयन जीवनाशी मारन घाल्या! तिजी जीभ ऊंच आयली ना. ती चुप रावून रळ्ळी.

बापूयन म्हळें: 'धुवे! रडनाका!'

'कुञुपातुमायक तेन्ना राज्या नातिल्लें रण्णें सग आयलें. ती रावून रडली. हड्डें भेतून रडली. अल्लाह! संसाराचो रचपी! कितें सग घडुंक वता?

निरंतर आपत्ती. मदताक कोणेय ना. एकटीं जाल्या. आवय गेली..." तुरंत बापूयकय हाता खोडो दवरन पुलीरा व्हरतले!

कुञुपातुमायक, आनी कोणेय ना. आवयचें मडें... कोणेय सग येवन न्हाणोवन नवे वस्त्रांत 'खफन' पांगरून मडें काडचे किडबिडेर 'सन्तोक' दवरून 'ला इला इल्ललाह! ला इलाह इल्लल्लाह! अशें सग मेळन म्हण व्हावन व्हरन मशीदाचे मसणांत पुरतले... मागीर ती एकलीच. कांय चिंतन करचाक जायना. कुञुपातुमायक दोळ्यानी देखुक जायना जालें. ती 'भों' करन रडली. ओ अल्लाह! देवा!

'तरीय बापूयन हें केल्लें मू!'

'धुवे', बापूयन म्हळें: 'रोडनाका. तूं जगलेर वचून बैस.'

कुंञुपातुमाय एक लेकान जगलेर वचून खांब्या धरन रावली. आवाज करनातिल्लें मागीरीय ती भरन रडली. कांय शान्ती मेळीना. तशें राविल्ले वेळार तीणे 'षजरतुळ मुनतहा' हाजे पारून उगडास केलो.

तें स्वर्गार आसा. 'षजरतुळ मुनतहा' ते व्हड रुकाचे नांव. ते महारुकाचे पोंदाक सून तीन न्हंयो निखळतात. स्वर्गार सून आशिल्ल्यो न्हंयो. नैल, टैग्रीस आनी यूफ्रेटीस. हें सग सांगून फल कितें? 'षजरतुळ मुनतहा' वरी सुन्दर दंत कथा! उगडास करूंक मनोरंजक आसा. सग धर्मांत असलीं दंतकथा आसात. भक्त जनां विश्वास करतात. हें सग ती मशीदांत 'वअस' नावाचे एक रातीचे भाषणासून जाण जालेली. ते रुकाचे पाल्यांचेर सर्वय प्राण्यांचीं नांवां आसात. वारें आयल्यार त्या पाल्यांत कांय पाले पडतले. पडचे पाल्यार नांव आसची प्राणी मरतली. कांय पाले काळ पावन पिकूनचं पडतले. कांय हरवे आस्तनाय. कांय अंकूरी आसतनाय पडतले. आवयचें नावांचो पालो... अशें तीणे उगडास करूंक भितरसून आवयचो आवाज आयकलो.

'जल्मदिल्लेल परमात्मा!' आवय म्हणता 'माका कोणेय ना! देवा, माका कोण ना.'

कुञुपातुमायचें दुख सग ना जालें. तीणे उगडास केलो. वारें आयलें – पालो पडलो ना!

कुञुपातुमाय भितर गेली. आवय उठावन बैसल्या. तिका देखच्यांक हड्ड्यार मारन रडुंक लागली.

'आवय, उगो बैस!' अशें सांगून कुञ्जुपातुमाय लागी गेली.

तेन्ना आवय मधुर रीतीन सांगुक लागली. तें एक गींतावरी. आवयन म्हळें:

'परस गो परस! मय्यदीने* परस; मुत्तुनबीये परस. परस गो परस. (स्पर्श कर.)

दैवदूत मुहम्मद नबीच मुतुनबी आसा.

खंय परसुक म्हण कुञ्जुपात्तुमायक कळ्ळेंना. तीणें विचारलें:

'खंय गे?'

'आवयन मधुर रीतीन म्हळें: गळ्याक, हाताक, पायाक.'

'तूं दूरा सर!' बापूय लागी वचून आवयक पसरलें. बापूयन म्हळें, 'कुञ्जुपातुमाय, तूं जगलेर वचून बैस.'

ती जगलेर आयली.

भितर सून 'नमस्कार' सांगप आनी आयकलें. मद्दें आवय विचारता: 'माका जीवनाशी मारन दुसरी व्हारडीक करूक न्हय?'

ताका बापूयन कितें जाप दिली म्हण कुञ्जुपातुमायन मन दिलें ना. ती आंगणांत देवन उगोच आळतां पेळतां चमकली. तेन्ना चड व्होडान बापूय म्हणतालो आयकलें: आमकां सगटांक आज 'तौबा' करूंक जाय. (एक अनुचीत कार्य भविष्यांत करना म्हण दृड प्रतिज्ञा करप). केल्लेल्या अपराधाक रब्बुल आलमिनाया संताकडे माप करूंक मागप. भविष्यांत करनातिल्लें रावप. तें एक चांग कायरें. पुण, ते घराकडे 'तौबा' फस्तक ना. चडान चड मुस्लिम घरांत तें आसतलें. तें अरबींत. अरबी मलयाळम भासेंत मुस्लिम धर्मपंडितांनी बरवन छापलें आसा. खंयचेय घरा सून बापूय तें घेवन हाडतलो.

कुञ्जुपातुमाय तशें चमकतना, आवय आनी बापूय जगलेर आयलीं. आवय म्हणता:

तेलय, ओखदा तेलय, आंग घासची एक रुका सालीय (इंचा) जाय.

बापूयन तें आयकून कुञ्जुपातुमायक म्हळें: 'धुवे, आवयक न्हावंचाक एदें उदक हून कर. बापूय उपरांत भायर गेलो.

कुञ्जुपातुमाय उदक भरन हून करचे वेळार बापूय खंयकी सून तेल ओखदातेल (कोळोंब) इंचा हें सग घेवन आयलो.

आवय तेल, कोळोंब सग लावन न्हावंचाक आरंबचाक बापूय गेलो. कुञ्जुपातुमायन विचारलें:

'आवय, हांव वचून न्हाव की?'

आवयन 'हां' म्हळें! ती अंगूठीय न्हाण जातेर बदलपाक वस्त्रांय बालटीय दोरय घेवन गेली.

तें वचप तिगेले जीवीतांत एक नवो अध्याय उक्तावपाक वता अशें कांय कुञ्जुपातुमायक समझलीना. आवयन म्हळें:

'चड तोडोव करूंक नज. कळ्ळें?'

तीणें म्हळें: 'ना, हांव आतांच येन.'

ती गेली. तेन्नाय? तीणे आठयलें: वारें आयले वेळार पालो पोडून गेलो जाल्यार...'

तीणे संकटान देवाकडे मागणी केली.

'अल्लाहु! वारें आयल्यारीय आमचे कोणाचोय पालो सकल घालोवं न्हयें!'

[चलता]

* 'मय्यदीन' म्हळ्ळो 'मुहिमदीन अब्दुल खादरं जिलानी' आसा. एक संत. कांय शताब्दा फुडें अंतरलो. बागदाद शारांत पुरलो. अशें जायते जाणां आसात. हांकां कांय पुणीय करचाक शक्ति आसा? खुरान धर्म ग्रंथांत अल्लाहू सांगता हांव कोणाचेय शिफारस आयकचो न्हय.

# 'अणकारी उश्णेपण'

माधवी सरदेसाय

उश्ण्या उतरांच्योय तरा आसतात.

'बाजार', 'याद', 'वगत', 'बरय', 'फोग', 'बुतांव', 'आंटी', 'कंडक्टर'... हे सारकेलीं उतरां कोंकणी जिबेर कितलींय तद्भव जालीं जाल्यारूय तांचे भितर मूळ उतरांचीं रुपां झळकतात. पूण, केन्ना केन्ना, 'देशी काति'च्या उतरां फाटल्यानूय 'भायलीं' उतरां लिपून बशिल्लीं आसतात. 'दूरदर्शन', 'मुख्याध्यापक', 'प्रबंधक'/'व्यवस्थापक', 'व्याख्याता (कॉलेज-विद्यापिठांत शिकोवपी प्राध्यापक, ह्या अर्थान)', 'पाठ्य-पुस्तक', 'सामान्य-ज्ञान', 'जनमत-कौल' सारकेल्या भारतीय भासांनी घोळपी उतरां कडेन बारकायेन पळेयात. हीं उतरां अनुक्रमान television, headmaster, manager, lecturer, text-book, general knowledge, opinion poll ह्या इंग्लीश उतरांचे अणकार म्हणपाचें आमच्या लक्षांत येतलें. असल्या उतरांक loan translations वा calques – अणकारा वरवीं आयिल्लीं उश्णीं उतरां – म्हणटात.

'भायलें' उतर वर्णनात्मक – descriptive आसता तेन्ना ताचो अणकार वा रुपकार करपाची संद भाशेक मेळटा. Television (tele-vision)चें भारतीय भासांनी 'दूरदर्शन' केलां तशें telephone (tele-phone)चें 'दूरभाष' / 'दूरध्वनि' / 'दूरवाणी' जालां; telescope (tele-scope) चें 'दूरदर्शक' आनी telecommunication (tele-communication)चें 'दूर-संचार' जालां. हांतुंतलीं चडशीं उतरां भाशेचे उपचारीक शैलिंतूच जीव धरून आसात. अनुपचारीकपणान जिबेर इंग्लीशी कडल्यान अणकारी नासतना घेतिल्लीं उतरांच घोळटात. 'दूरदर्शन' उतर television वयल्यान आयिल्लें आसलें तरी तें आमी television च्या अर्थान वापरनात, टीवी वयल्या एका चॅनलाचें नांव म्हूण तें आमचे जिबेर घोळटा. आनी देखून वयल्या सगळ्या उतरांच्या मानान एकोडें 'दूरदर्शन'च दिसपट्टे घोळणुकेंतले भाशेंत सुवात मेळोवंक पावलां.

भारतान ब्रिटीश शिक्षण-वेवस्था आपणायली तेन्ना हे शिक्षण-वेवस्थेंतल्या जायत्या उतरांचे अणकार/रुपकार भारतीय भासांनी घोळूंक लागले. 'University' आमच्या भासांनी 'विद्यापीठ' वा 'विश्वविद्यालय' (ह्या उतरांतलें 'विश्व' 'Universe' चो अणकार) जाली[१]. Chancellor, Vice-Chancellor चें मराठींत बी अनुक्रमान 'कुलपती', 'कुलगुरू' जालें[२]. जाल्यार कांय जाणकारांनी तांचो, अनुक्रमान, 'कुलाधिपति' आनी 'कुलपति' असोय रुपकार केलो.[३]. कांय कोशांनी Chancellor खातीर 'कुलपति' आनी Vice-Chancellor खातीर 'उपकुलपति' हीं उतरां मेळटात[४] जाल्यार आनीक कांय कोशांनी Chancellor चो 'कुलगुरू' आनी Vice-Chancellor चो 'उपकुलगुरू' असोय अर्थ मेळटा.[५]. अणकारांतले असले विविधतायेक लागून केन्ना केन्ना घोळूय जातात. असल्या वेळार, कांय उतरांचें अखील भारतीय पांवड्याचेर प्रमाणिकरण जालें जाल्यार भोव बरें जातलें अशें दिसले बगर रावना.

हांगाच कोंकणींत घोळपी 'प्रोफसोर' / 'प्रोसोर' आनी 'प्रॉफेसर' ह्या उतरांचो मुजरत उल्लेख करन दिसता. पुर्तुगेजीकडल्यान कोंकणीन 'प्रोफसोर' वा 'प्रोसोर' हें उतर घेतलें. पुर्तुगेज शिक्षण-वेवस्थेंत कोणाय शिकोवप्याक 'प्रोफेसोर' म्हूण पाचारूं येता. इतलेंच न्हय तर वकिलके सारकेले 'प्रॉफेसांव प्रॉफॅस करपी' मनशाकूय – वकिलाकूय 'प्रोफेसोर' म्हणूं येता.[६]. कोंकणींतूय गोंयचे सुटके आदीं आनी सुटके उपरान्त कांय काळ हें उतर अश्याच श्या अर्थान घोळटालें. उपरान्त नवे पिळगेचे जिबे वयलें 'प्रोफसोर' इल्लें इल्लें ना जावंक लागलें आनी थंय इंग्लीशी कडल्यान घेतिल्लें 'प्रॉफेसर' घोळूं लागलें. 'प्रॉफेसर' उतर ब्रिटिश 'शिक्षणीक जाती वेवस्थे'चो एक वांटो. हे वेवस्थेंत सगळ्यांत सकयल 'लॅक्चरर', उपरान्त 'रीडर' आनी सगळ्यांत वयर 'प्रॉफेसर' येता. शाळांनी, इश्कॉलांनी शिकयतल्यांक 'प्रॉफेसर' म्हणूं येना. कोंकणीन 'प्रॉफेसर' उतर घेतलें तेन्ना तें फकत कॉलेजांतल्या आनी विद्यापिठांतल्या शिक्षकां खातीर राखून दवरलें. हे नदरेन हो 'ब्रिटीश वापर' म्हणूं येता. 'प्रॉफेसर' उतरा खातीर (कोंकणी 'प्रॉफेसर' ह्या अर्थाचेंच) मराठीन घडयल्लें 'प्राध्यापक' उतरूय कोंकणींत आयलें. कोंकणींत दोनूय समानअर्थी उतरां कशीं घोळटात. आनी केन्ना केन्ना, कोंकणी माचये वयल्यान विद्यापिठांतल्या खंयच्याय लॅक्चररराक 'प्रा. अमको अमको' अशें म्हणटा तशें 'प्रो. (प्रॉफेसर) अमको अमको' अशें कोणूय म्हणटा तेन्ना आयकतल्यांक आनी खासा त्या लॅक्चररराक लेगीत अडचल्ले वरी जाता. तो चूक वापर अशें दिसता. पूण, 'प्रॉफेसर' उतरा कडेन इंग्लीशींतल्यान पळोवपाचें सोडून आमी कोंकणींतल्यान पळोवंक शिकलीं – 'प्राध्यापक' उतरावरीच कोंकणींत मूळ धरूंक लागिल्लें, तें नवें 'कोंकणी अर्थाचें' कोंकणी उतर हे नदरेन आमी ताचे कडेन पळोवंक लागलीं जाल्यार ही अडचण पयस जावं येता.

अणकारान कोंकणींत कितल्याश्या सुंदर सुंदर उतरांची भर घाल्या 'जीवन-दृष्टि' वयल्यान कोंकणींत 'जिणे-दिश्ट' उतर आयलां, 'पृष्टभूमि' वयल्यान 'फाटभूंय' आयलां, 'जमीनदोस्त' वयल्यान 'मातये भरवण' ; 'भूंय भरवण' हीं उतरां आयल्यांत. हेच प्रमाण मराठी 'निवडणूक' कोंकणींत 'वेंचणूक' जाल्ली आसूंक जाय. 'अणकार' उतरूय कोंकणींत अशेंच आयलें जावंक जाय. आयज 'अणकार' आमी 'अनुवाद' ह्या अर्थान वापरतात पूण 'कोंकणी भाशेचें जैत पुस्तकांत शणै गोंयबाबान हें उतर ''अनुकरण'' ह्या अर्थान वापरलां.[७].

---

१. हांतुंतलें 'विद्यापीठ' उतर गुजराती, मराठी बी भासांनी अदीक घोळटा आनी 'विश्वविद्यालय' हिंदी, बंगाली बी भासांनी अदीक घोळटा. कोंकणीकूय 'विश्वविद्यालया' परस 'विद्यापीठ' लागिचें दिसता अशें म्हणूं येता.

२. ह्या उतरांच्या रुपकारांक गुरुकुलाची सांस्कृतीक फाटभूंय आसा. वा म्हणूंया हे संस्कृतायेचो flavour आसा. Registrarचें आमी 'कुलसचीव' केलां University मात खंयच 'गुरुकूल' जावंक ना.

३. पळेयात : फादर कामिल बुल्केंचो अँगरेजी-हिन्दी कोश, पयली उजवाडावणी १९६८, म्हाका मेळिल्ली उजवाडावणी : १९९४.

४. पळेयात : डॉ. हरदेव बाहरींचो 'अंग्रेजी-हिन्दी शब्दकोश', राजपाल एण्ड सन्स, दिल्ली, ११वी उजवाडावणी, १९९६.

५. पळेयात : गुरुनाथ केळेकारांलो इंग्लीश-कोंकणी शब्दकोश, १९९५ 'उपकुलपति' आनी 'उपकुलगुरू' ह्या उतरांतलें 'उप' Vice Chancellorतल्या viceचो अणकार.

६. Dicionário Básico da Língua Portuguesa ह्या Porto Editora प्रकाशन संस्थेन उजवाडा हाडिल्ल्या कोशांत (१९९५) दिल्लो professor उतराचो अर्थ पळेयात : ''indivíduo que professa ou ensina uma ciência, uma arte, uma língua, etc.''

७. 'निखट्या नांवांत तरी त्या लोकिकवंत आनी कतृत्वी पुरशाचो अणकार करपा इत्सा त्या वेळार जायत्या मराठ्यांक जाल्ली...' कों.भा.जै., पान ४८. 'कोंकणी व्याकरणी बांदावळ' पुस्तकांतूय हें उतर ह्याच अर्थान आयलां. पान वयलें हें वाक्य पळेयात – 'आजचे हे घडकेकूय, अिंग्रजांक आपणा पर अुंच लेखून जायते देशी लोक तांगेल्या भंगिल्ल्या अुच्चारांचो अणकार करिनात ?'

शणै गोंयबाबानूच पयलें वयलें हें उतर कोंकणींत हाडिल्लें आसूं येता. तें ''अनुवादा''च्या अर्थान कोंकणींत केन्ना सावन घोळूंक लागलें? सोदूंक जाय... 'अपनाना' वयल्यान रवीन्द्रबाब केळेकारान कोंकणींत 'आपणावप' उतर हाडलें[1]; कोंकणींनूय हें उतर भोव बरे तरेन आपणायलें. 'गीताई'चें बाकीबाबांनी 'गिताय' केलें तशें हिन्दी 'दुराई' (''अंतर'')चें पुंडलीकबाब नायकान 'दुराय'' केलां ('देखणी दुराय'). 'दुराय' कोंकणींत धरतलें काय झडटलें तें काळूच थारायतलो. मराठी, हिन्दींतलीं भारतीय-आर्य मुळांचीं आकारान्त भावनामां कोंकणींत हाडटना आमी 'आ'चे बदला सभावीक कोंकणी कूस 'आय' लायतात. देखीक, 'शक्यता', 'शांतता', 'अखंडता', 'स्वतंत्रता'... कोंकणींत हाडटना आमी तांचें 'शक्यताय', 'शांतताय', 'अखंडताय', 'स्वतंत्रताय'... करतात. 'शक्यता', 'शांतता' परस 'शक्यताय', 'शांतताय' कोंकणीच्या सभावांत अदीक बरीं बसतात हांतूंत दुबाव ना. पूण केन्ना केन्ना हें 'आय'करणूय मातशें 'अती' दिसता. 'कल्पकता', 'अराजकता', 'पारदर्शकता' सारकेलीं उतरां आमी 'कल्पकताय', 'अराजकताय', 'पारदर्शकताय' करून कोंकणींत हाडटात तेन्ना तीं व्हडलिशीं कोंकणी दिसच नात आनी कोंकणी जावंकूय पावनात. भाशेंत तीं परकी परकी कशींच वावुरतात. देखून म्हाका दिसता, उतरांक अशे तरेन फकत कोंकणी मेक-अप करचे परस तांचीं मूळ रुपां तश्या तशीं दवरप वा तांचे खातीर नवें कोंकणी उतर घडोवप अदीक बरें.

शणै गोंयबाबांले बरपावळींत कोंकणी कडेन पुरायेन समरस जाल्ले कितलेशे उतरां अणकार मेळटात. देखीक, 'आल्बुकेर्कान गोंय कशें जिखलें' पुस्कांतलीं राजकारणी मळावयलीं हीं कांय उतरां पळेयात – 'एकचाराचें लिखीत' ''Treaty of Unity'' (पान १०); 'इश्टागतिचें लिखीत' ''Friendship Treaty'' (पान ११), 'थंडायेचें लिखीत' ''Peace Treaty'' (पान १५), 'सरशीं रावपी राखणदार' ''body guard'' (पान ४), राखणकार शिपायक ''guard'' (पान ६), गुमानीत खबरेकार 'गुप्तहेर' (पान ३४), 'संवसार-बुट्टें'तली (गोमन्तोपनिषत, दुसरें खंड) ही विज्ञानीक उतरावळ पळेयात: 'रसायणी' आनी 'निजशास्त्री' म्हळ्यार ''chemist'' आनी ''physicist'' (पान. २५६), 'गर्भकणी' आनी 'वीज-कणी' म्हळ्यार ''nucleus'' आनी ''electron'' (पान २७०), 'जडसाणेची ओड' आनी 'केण' म्हळ्यार ''gravitational pull'' आनी ''nebula'' (पान २७१), 'नक्षत्रावळ' म्हळ्यार ''Stellar System'' (पान २७२), 'सूर्यावळ' आनी 'गिरावळ' म्हळ्यार ''Solar System'' आनी ''Planetary System'' (पान २६७), 'प्राणवाय', 'उदकवाय' आनी 'खारवाय' म्हळ्यार ''oxygen'', ''hydrogen'' आनी ''nitrogen'' (पान २७९). 'पोटसरे' आनी 'मोमयाळीं' म्हळ्यार ''reptiles'' आनी ''mammals'' (पान २८१)...

व्याकरणी उतरावळिंतूय शणै गोंयबाबांली हीच प्रतिभा दिश्टी पडटा. कोंकणीचो कोंकणींतल्यान व्याकरणीक अभ्यास शणै गोंयबाबान पयलो वयलो सुरू केलो. शणै गोंयबाबांल्या व्याकरणीक बरपांत कोंकणीच्या हेर भयण-भासांनी आयल्या तशी संस्कृत व्याकरणी परंपरेंतली उतरावळ आयल्या – 'लिंग', 'वचन', 'विभक्ती', 'स्वर', 'व्यंजन', 'अनुस्वार', 'अव्यय' सारकेलीं उतरां शणै गोंयबाबान संस्कृत भाशे कडल्यान मेकळेपणान घेतल्यांत. पूण हें मेकळेपण वचत थंय घेवंक ना. संस्कृत 'एकवचन', 'द्विवचन', 'बहुवचन' चें कोंकणींत 'अेकवचन', 'दोगवचन' आनी 'भौवचन' केलां. (कोंकणिची व्याकरणी बांदावळ: पान १९); 'प्रथमा', 'द्वितीया', 'तृतीया', 'चतुर्थी', 'पंचमी', 'षष्ठी', 'सप्तमी' आनी 'संबोधन' ह्या उतरां बदला तांणी अनुक्रमान 'पैली विभक्ती', 'दुसरी विभक्ती', 'तिसरी विभक्ती', 'चौथी विभक्ती', 'पांचवी विभक्ती', 'सटवी विभक्ती', 'सातवी विभक्ती' आनी 'आठवी विभक्ती / उलो' हीं उतरां आपणायल्यांत. (कोंकणिची व्याकरणी बांदावळ: पानां ३१-७५). 'प्रत्यया' खातीर 'कूस' हें सुटसुटीत उतर शणै गोंयबाबान घडयलें. 'ऱ्हस्व' आनी 'दीर्घ' स्वरांचें तांणी 'मोटवे' आनी 'लांब' स्वर केले (कोंकणी नादशास्त्र. पान १). 'तालव्य', 'मूर्ध्दन्य', 'दंतोष्ठ्य', 'औष्ठ्य' (उच्चार) ह्या उतरां बदला तांणी आमकां 'ताळवो', 'माथयो', 'दांत-ओंठयो' आनी 'ओंठयो' (उच्चार) (कोंकणी नादशास्त्र, पानां २१-२३) हीं सोंपीं उतरां दिलीं. आयजूय आमी कोंकणींत हींच, शणै गोंयबाबालींच उतरां वापरतात. (सुरेशबाब बोरकारांलें 'कोंकणी व्याकरण' चाळून पळोवचें.) 'कोंकणिची व्याकरणी बांदावळ' पुस्तकाचे निमाणे कडेन (पानां १९१-१९४) शणै गोंयबाबान कोंकणी-इंग्लीश व्याकरणी उतरावळिची एक वळेरी दिल्या. हांतुंतूय कांय सुंदर उतरां मेळटात. देखीक, 'पांवड्या विशेशण' (''Ordinal Adjective of Quantity''), 'पेट विशेशण' (''Multiplicative Adjective of Quantity''), 'दाखोवपी विशेशण / सर्वनाम' (''Demonstrative Adjective / Pronoun''), 'प्रस्नी सर्वनाम' (''Interrogative Pronoun''), 'दुबावी भूत' (''Indefinite Past Tense''), 'तांकी क्रियापद' (''Potential Verb''), 'सांगडी अव्यय' (''Copulative Conjunction''), 'विंगडी अव्यय' (''Disjunctive Conjunction''), 'आडमेळी अव्यय' (''Adversative Conjunction''), 'उमाळी अव्यय' (''Compound Word''), 'अणकारी अव्यय' (''Indeclinable of Imitative Sound'')...

प्रतिभावंत बरोवपी हे भाशेन भास घडयतात, तिच्या प्रमाणिकरणाक दिका दितात. तांणी येवंजून, तर्जून वेंचून काडिल्लें / घडयल्लें उतर जायते फावटीं हेर बरोवपी / उलोवपी सोंपेपणान वापरतात आनी अशे तरेन भाशेंत नव्या नव्या उतरांची भर पडत वता. खाशेल्या विशयांवेल्या बरपा परस सगळ्यांक अपील जायत हे तरेच्या बरपा भितर ही – भाशेंत नव्या उतरांची भर घालपाची – तांक अदीक आसता. रवीन्द्रबाब केळेकारा सारकेलो बरोवपी महाभारता सारकेलें म्हाकाव्य आपणाले खाशेले सोंपे सरळ गद्य शैलींत कोंकणी वाचप्यां मुखार हाडटा तेन्ना तांतुंतल्यान कोंकणी साहित्य गिरेस्त जाताच. पूण वांगडा असल्या बरपांत कोंकणी भाशेकूय समृद्ध करपाची, तिचें बळ वाडोवपाची तांक आसता.

शणै गोयबाबांचो आनी उपरान्तच्या दोन पिळग्यांचो काळ कोंकणी-मराठी मजगतच्या संघर्शाचो काळ आशिल्लो. शणै गोंयबाबाल्या पुराय बरपाक – तांगेल्या उतरांच्या वापराकूय ही वादाची फाटभूंय आसा. कोंकणी-मराठी मजगतच्या वेगळेपणाचेर शणै गोंयबाबांली लेखणी पावला पावलाक भर दिता. मराठीक आपणाली 'मालकी' दाखोवंक मेळत हे तरेची उतरावळ शणै गोंयबाबांल्या बरपांत भोव थोडी मेळटली. हाका लागून कांय कडेन कोंकणीकरणाची अतितायूय जाता – 'ॐ शान्ति: शान्ति: शान्ति:'चो ते 'ॐ थंडाऽय, थंडाऽय, थंडाऽय' असो अणकार करतात.[2].

ह्या वादाच्या वातावरणांत घडिल्ल्या शणै गोंयबाबां उपरान्तच्या कोंकणी बरप्यांनीय आपणाल्या बरपांत हीच सादुरकाय बाळगिल्ली दिसता. जिबेर 'अकरा', 'आज', 'बरोबर', 'जागो', 'अनुभव' 'सप्न' सारकेलीं उतरां

---

१. 'मीर्गा'चें संपादन करतना हें उतर जल्मा आयलें अशें रवीन्द्रबाबानूच एक दीस म्हाका म्हणिल्लें. तांणी सांगिल्लें, हिन्दी बरप कोंकणींत हाडटना 'अपनाया'/'स्वीकार किया' ह्या उतरां खातीर बरें शें कोंकणी उतर मेळूंक नाशिल्लें. 'स्विकारलें' कोंकणींत 'जड' दिसतालें म्हूण 'अपनाया'चें 'आपणायलें' करून पळेलें. हें उतर गाजवलें. उपरान्त एक दीस दिसलें, 'अपनाया/'स्वीकार किया' खातीर 'घेतलें' हें सादें सोंपें उतरूय वापरूं येता. पूण, 'घेतलें' घेवचे पयलींच 'आपणायलें' आपणाली जीण जियेवंक लागिल्लें – हेर कोंकणी बरप्यांनीय तें घेतिल्लें.

२. संवसार-बुट्टी. पान: ३४१.

घोळटा आसतनाय तांच्या बरपांत 'इकरा', 'आयज', 'वांगडा', 'सुवात', 'अणभव', 'सपन' हींच 'अदीक कोंकणी' उतरां आयिल्लीं पळोवंक मेळटात.

आयज कोंकणी-मराठीच्या नात्यांत आदलो ताण उरूंक ना. साहित्य अकादेमीची मान्यताय आनी आठवे वळेरेंत रीग मेळोवन कोंकणी मराठी वरीच एक 'भास' जांल्या. तिका आयज कोण 'बोली' म्हणूंक वचना. 'भारतीय आर्य भाशे कुळांत कोंकणीक सगळ्यांत चड लागिंची दुसरी भास मराठीच' अशें म्हणटना आयज आमकां लजूय दिसना, भंयूय दिसना. इतलेंच न्हय, तर नवीं उतरां घडोवपाचो प्रस्न येता तेन्ना मराठी कडल्यान उतरां उश्णीं घेवपाकूय आमी अनमननात.

हो मराठीचो प्रभाव कोंकणी खबरांपत्रांचे भाशेचेर खुबूच जाणवता. 'सुनापरान्त' दिसाळ्याचो खंयचोय आंक चाळुनूच पळेलो जाल्यार हाचो अदमास येवं येता. सुनापरान्तान जल्मा येतनाच कांय थारावण्यो घेतल्यो – 'संपादपी', 'मुखेल संपादपी', 'मुखेल मंत्री', 'आंक'... सारकेलीं कोंकणींत रूढ जाल्लीं उतरां पेल्यान दवरून 'संपादक', 'मुख्य संपादक', 'मुख्यमंत्री', 'अंक'... हीं उतरां आपणायलीं. इतलेंच न्हय. 'मतदान', 'मतदारसंघ', 'उमेदवार', 'आमदार', 'खासदार', 'सुरक्षा रक्षक', 'ओलीस', 'घुसखोर', 'कामगिरी'... सारकीं, खबरांपत्री भाशेचे 'मुळावे उतरावळीं'त मोडत अशीं कितलिंशीं उतरां आमी मराठी कडल्यान दोळे धांपून घेतलीं. 'अज्ञात हल्लेखोर', 'सशस्त्र उग्रवादी', 'अपहरण नाट्य' सारकेल्यो मराठी विशेशणां आनी नामांच्यो जोडयोय कोंकणींत आयिल्ल्यो.[1] 'वळख पटप', 'निलंबीत करप', 'भुमिका वठोवप'... हे तरेच्यो 'मराठी परगटावण्यो'य आमी घेतल्यो. हाका लागून आमच्या वाक्यांकूय आयज मराठी सया मारूंक लागल्या. बातमेचो हो माथाळो पळेयात: 'मतदानाखातीरची सगली तयारी पूर्ण / राज्यांतल्या दोनय मतदारसंघांतल्या १६ उमेदवारांचो फुडार आयज सीलबंद.'हो मराठीन प्रॉम्प्टिंग केल्लो माथाळो! हीं वाक्यां पळेयात: 'हें सरकार अत्यंत बेजापसालदार आसा अशें गांधी हांणी म्हळें आनी राजकी फायद्याखातीर ताणें देशाचो एकवट आनी प्रादेशीक अखंडताय धोक्यांत हाडिल्ल्याचो आरोप केलो.' 'लोकसभा वेंचणुकेचे पूर्वसंध्येचेर हो हल्लो जालो.' '...केंद्रांत सरकार घडोवपांत तिसरी आघाडी अजून म्हत्वाची भुमिका वठोवंक शकता...' 'आतां मगोचें अस्तित्व कायमचें सोंपलां अशें सांगून काँग्रेस आनी भाजपाचेर तांणी टिका केली.' – ही सगळी मराठीचें वागरें पडिल्ली कोंकणी!

खबरांपत्रांक दिसपट्टीं, दर घटकेक, नवीं नवीं आव्हानां पेलचीं पडटात. 'हें सगळें कोंकणींत कशें सांगप?... आमचे कडेन हाचे खातीर उतरां नात...' अशें म्हणून 'सुनापरान्त' हात कवळून बशिल्लें जाल्यारूय कोंकणीक तें खूब म्हारग पडपाचें. आयचे अडचणिचे घटकेक कोंकणीन मराठी कडल्यान पालव मागलो जाल्यार तांतूंत कांय वांकडें ना. पूण हो पालव कितलो मागचो तें आमी थारावंक जाय. खंयच्याय मराठी उतराक वा मराठी धाटणेच्या वाक्याक कोंकणींत रीग मेळूंक लागली जाल्यार एक दीस व्याकरणीक नदरे आमीच कोंकणीक 'मराठीची बोली' करून उडयतलीं! मराठी कडल्या उतरां उश्णीं घेतां घेतां आमी कोंकणीचे तांकिचो थाव घेवपाचोय सत यत्न करूंक जाय. ह्या 'होमवर्का'क आमी उणीं पडटात. देखून 'धोका' 'धोको (धॉकॉ)' केलें आनी 'बेजबाबदार'चें 'बेजापसालदार' केलें म्हू आमचे कोंकणीक कोंकणी सुवाद येना.

खबरांपत्रां भाशेची प्रमाण बोली घडोवंक हातभार लायतात. देखून कोंकण सारकेले, प्रमाणिकरणाचे नदरेन नेणटी आशिल्ले भाशेक तिच्या एकल्य एकसुऱ्या दिसाळ्यांतल्या भाशेच्या वापरा विशीं घाळ रावप कशेंच पुटवपा ना.

अणकारा वरवीं एके भाशेंतलीं उतरां दुसरे भाशेंत पावतात तश्यो जाय फावटीं म्हणी, ओपारीय पावतात. कोंकणींत 'उमथ्या कळशार उदक' म्हणटात तशें मराठींत 'उपड्या घड्यावर पाणी' म्हणटात. ('कळसो' 'घडा' जाला काय 'घडा' 'कळसो' हें संशोधना उपरान्त आमच्यांनी सांगू येतलें.) हिंदींत 'हात कंगन को आरसी क्या' ही म्हण घोळटा तशी मराठींत 'हातच्या कांकणांना आरसा कशाला?' ही म्हण चलता. कोंकणींतूय कांय जाणां जिबेर हांवें 'हातच्या कांकणांक हारसो कित्याक?' ही म्हण आयकल्य. कोंकणींत 'आंधळ्यांत कुड्डो राजा' म्हणटात तशें हिन्दींतूय 'अंधों में कान राजा' म्हणटात. इंग्लीशींत Who will bell the cat?'' म्हणटात तशें मराठींत 'मांजराच्या गळ्यात घंटा कोण बांधणार?' म्हणटात. मराठींत 'उथळ पाण्याला खळखळाट फार' ही म्हण आसा तिची दुसरी वेट दाखोवपी 'भरिल्ल कळसो' हो वाक्प्रचार आमकां कोंकणींत मेळटा. मराठींत 'नाकापेक्षा मोत जड' आनी 'लहान तोंडी मोठा घास' हे वाक्प्रचार घोळटात. कांय कोंकण उलोवप्यांचे जिबेरूय हांवें 'नाका परस मोतीं जड' आनी 'ल्हान तोंडा व्हडलो घांस' हे वाक्प्रचार आयकल्यात. ह्या मूळ मराठी वाक्प्रचारांचे अणका जावंक जाय.

म्हणिंचे चुकिचे अणकारूय केन्ना केन्ना भाशेंत रूढ जातात. मराठीं 'शितावरून भाताची परीक्षा' ही म्हण आसा. ती कोंकणींत 'शितावेल्यान भाताची परिक्षा' जाल्या म्हणपाचें म्हणिच्या चुकिच्या अणकारावेल्या आमच्यांनी सांगू येता. मराठी 'भात' म्हळ्यार कोंकणी 'शीत'. मराठी 'शीत' म्हळ्यार कोंकणी 'गोटो'. शीत जालां (तांदूळ शिजल्यात, शीत वाळपा जालां) काय ना तें पळोवपाक तपल्यांत चाळो मारून दायेन दोन-चा गोटे वयर काडून ते चिमटेंत चिड्डून पळेतात. हीच 'शितावरून भाताच परीक्षा'. कोंकणींत ही म्हण 'गोट्या वयल्यान शिताची परिक्षा' जावंक जा आशिल्ली. 'शितावेल्यान भाताची परिक्षा' हे म्हणिचो अर्थ (वाक्यार्थ कितलिंशीं वर्सां हांवें म्हजे परीन लायिल्लो – भात बरें (तांदूळ बरो) का वायट तें एक खेपे तांचें शीत रांदून पळोवप, असो! एक दीस खंयच्य तरी मराठी बरपांत ही म्हण म्हाका मेळ्ळी आनी तिचो अर्थ होलमलो तेन्ना सावन म्हजे कोंकणी जिबेक ही मराठी भाता-शिताची उंडी चलन जाल्या – ही म्हण म्हजे जिबे वयली ना जाल्या...

* * *

---

१. ह्यो आनी मुखावयल्यो देखी ५ सप्टेंबर ९९च्या सुनापरान्तांतल्या पयल्या पाना वयल्यान घेतल्यात.

# तीर सुवादीक कॉलम

दिलीप बोरकार

प्रोसोर सुरेंद्र शिरसाटांची म्हाका काकुळट दिसली.
खरें पळोवंक गेल्यार हांव महाराष्ट्रवाद्यांची काकूळट करिना.
पूण म्हाका सिरसाटांची मात काकुळट दिसली.
पयर म्हाका प्रोसोर हातांत कसलो तरी गठ्ठो घेवन धांवतना दिसलो.
त्यो विद्यार्थ्यांच्यो उत्तर पत्रिका नासतल्योच हें हांव जाणां.
विद्यार्थ्यांची अपुरबाय करपी प्राध्यापक आतां कमीच.
तातूंत तो शिक्षक राजकारणी आसलो जाल्यार मागीर जालेंच.
उत्तर पत्रिका न्हय जाल्यार तें दुसरें कितें आसूं येतालें?
हो महाराष्ट्रवादी गोपाळ मयेकार आशिल्लो जाल्यार गजाल वेगळी.
ताच्या हातांतलें तें बाड गोंयच्या मराठी साहित्यिकांचें आसूं येतालें.
साहित्यांत मोलाची भर पडची म्हूण अध्यक्ष धांवपळ करूंक शकता.
चडूच जालें जाल्यार तांचें ज्ञानेश्वरीवेलें तें भाष्य आसूं येतालें.
पूण सिरसाटांकडले हे गठ्ठे सामकेच दुबावांत घालपी.
प्रोसोर सुरेंद्र सिरसाट गोंयच्या महाराष्ट्रवादी पक्षाचे अध्यक्ष.
तांच्या चडश्या विधानसभा उमेदवारांनी वेंचणुकेक आपटी खाली.
नैतीक जापसालदारकी घेवन तांणी राजिनामो दिवपाचो थारायलो.
पूण केंद्रीय समितीन तो न घेवपाचो पक्को निर्णय घेतलो.
प्रोसोराक सांगलें, पक्ष काबार जायसर तुवें अध्यक्ष रावपाचें.
निमाणें सिरसाट बावडो भिडेक पडलो.
आपले बगर मगोक पर्याय ना म्हूण ओगीच रावलो.
अखेरेक लोकसभेची वेंचणूक लागीं आयली.
चवथ आयली म्हणटकच गणपती पुजुंकूच जाय.
तशें वेंचणूक आयली म्हणटकच उमेदवार दवरूंकच जाय.
नाजाल्यार पक्ष आनी पक्षाध्यक्ष आसून उपेग कितें?
पूण पक्ष बळकट जावपा बदला ताका खिंडार पडलें.
खिंडार म्हळ्यार कितें तें तेच जाणात.
चड करून तो बुराक आसूंक जाय.
सिरसाटान जिकून हाडिल्ले चार आमदार घेवन खलप पळ्ळो.
बद्द व्हरून ताणें ते काँग्रेसीच्या पदराखाला लिपयले.
सिरसाटाचेर बाबड्याचेर आयलो कलकल.
मगोचे चडशे जागे भाजपान आपले वटेन व्हेल्ले.
अथक परिश्रमान हाडिल्ले चार जांगे काँग्रेस घेवन गेली.
थोड्यांनी गाय हाडप, दूद काडप आनी तें बरेंऽऽ तापोवप.
त्याच वेळार कोणेंतरी येवन वयली साय घेवन वचप.
सिरसाटांचे बाबतींत हे फावट सामकें तशें जालें.
मगोची वयलींच साय न्हय, तर सकयली लेगीत व्हेली.
असलो हो उगडो नागडो पक्ष घेवन आतां ताणें करप कितें?
तरी सिरसाट सामको जिद्दी मनीस.
विद्यार्थ्यांक जिद्द शिकोवन आपुणूच जिद्दी जाल्लो.
खलप मगो पक्ष घेवन काँग्रेसींत गेल्यार कितें जालें?
आपूण आसासर मगो पक्ष केन्नाच सोंपपाचो ना.
खलपाक बुद्द शिकोवंक ताणें मगोचे दोन उमेदवार काडले.
उत्तरेक बोवाळशेट जल्मी आनी दक्षिणेक रोहिदास नाईक.
अध्यक्षपदावयल्यान अध्यक्षान एकदम फर्मान सोडलें.
'पट्ट्यांनो, रणांगणांत मर्दमुकी गाजवा आनी फत्ते होऊन या.'
कोंकणी मनीस सिरसाटांची ती तांबडी मराठी
मगो पक्षाचें एकमेव ध्येय धोरण म्हणून वापरची पडटाली.
ती मराठी जल्मी आनी रोहिदासाक मातो कळटा.
तांकां 'फत्ते होऊन येणे' म्हळ्यार कितें तेंच कळ्ळेंना.
दोगूय फत्ते करपा खातीर वचून भाजपाक मेळ्ळे.
भाजपाचे गोंयचे सगळे फुडारी एकदम देड शाणे.
महाराष्ट्रवादी आमदार सदांच आपल्याक मराठी समजताले.
लोकांकडेन कोंकणींतल्यान मतां घेताले आनी सोपूत मराठींत घेताले.
ह्या अतीशाण्यां परस देड शाणे-जावप म्हूण भाजपान थारायलें.
मगोवाल्यांपरस वेगळे म्हूण दाखोवंक तांणी संस्कृत सोपूत घेतलो.
दिगंबर कामतीक मात तांचीं हीं नाडपेन्नां जमलीं ना.
ताणें पक्षादेश मानिनासतना कोंकणींतल्यान सोपूत घेतलो.
ताचीय म्हूण चूक ना. ताचो संस्कृताकडलो संबंद 'मम' म्हणपा इतलो.
मगोच्या जल्मी आनी रोहिदासाची मराठी भाजपाक कळ्ळी ना.
तरी पर्रीकारान जल्मीक सांगलें, फत्ते होणे म्हळ्यार फोंडांत घालप.
खलपाक फोंडांत घालतलो जाल्यार उमेदवारी फाटीं घेयात.
दोगांय उमेदवारांनी फाटीं सरून सिरसाटाक फोंडांत घालो.
तीच पांयांतली तिडक सिरसाटांच्या मस्तकाक मारली.
तांकां चड लागलें तें जल्मी, खलपान धोको दिलो ताचें.
आर्रां तूं! तुमचेर भरवंसून तर आपणें मगो हातांत घेतलो.
आनी ऐन वेळार अशे काँग्रेस, भाजपाकडेन साठेलोटे करतात?
खलप एकलोच काँग्रेसींत गेल्लो जाल्यार प्रस्न नाशिल्लो.
तो मगोंत आशिल्ल्यान सिरसाटांक म्हत्व मेळनाशिल्लें.
एक दोग आमदारांक घेवन गेलो तरी व्हडली पर्वा नाशिल्ली.
पूण हाणें आमदारां सयत पुराय मगोच काँग्रेसींत व्हेल्ली!
खलपांच्या ह्या दुष्कृत्याचे त्यांना पानवळ भोगवायलाच पायजे.
प्रोसोर सिरसाटां सामकार आतां फक्त हीच एककलमी कार्यक्रम.
कितेंय करपाचें पूण खलपाक आनी जल्मीक धडो शिकोवपाचो.
पूण कितें करप तेंच तांकां कळना जालें.
तांकां दिमयांनी उबे दवरप काय हात पट्ट्यांनी फोडून काडप?
शाळा कॉलेजिंनी भुरग्यांक हात लावप ना असो कायदो केला.
ताकाच लागून खुबशा शिक्षकांचो सामको नाईलाज जाला.
हांगा राजकीय शाळेंत तर पक्ष नेमाची आडखळ आसा.
कितेंय करतलो जाल्यर नेमावळींत बसता तशें करपाचें.
सगळ्यांत पयलीं विद्वाट्यांक कारणे दाखवा नोटीस काडपाची.
ते नोटिसेची जाप आयली म्हणटकच कारवाय करपाची.
आनी कारवाय म्हळ्यार तरी कितें? तांकां पक्षांतल्यान भायर घालप.
खलप सगळो पक्षूच घेवन काँग्रेसींत गेल्लो.
भायर उरिल्लो फकत पक्षाध्यक्ष सुरेंद्रबाब.
खरें म्हळ्यार तो भायर कसो उरलो हेच खातीर ते ताका नोटीस काडपाचे.
खलपाचें काळीज बरें म्हूण ताणें ती काडलिना.

आतां कारणे दाखवा नोटीस पक्षाध्यक्षान काडिल्ली
ती फकत खलपाकूच काय हेर सगळ्या वांगड्यांक तें कळ्ळेंना.
तरीय पंक्तीभेद नाका म्हूण ताणें ती सगळ्यांक काडली.
त्या कागदांचे गठ्ठे सांबाळटासर दुसरें प्रकरण उद्भवलें.
कारणे दाखवा नोटीस काड म्हूण सांगपी जल्मी भाजपाकडेन पावलो.
पर्रीकाराची तीन रुपयांची च्या पिवन तांकां तेंको दिवंक लागलो.
खलपा वांगडाच जल्मीकूय नोटीस काडची पडली.
पूण जल्मी पर्रीकाराकडेन वचून फक्त च्या कसो पियेतलो?
जल्मीक आरोग्याक च्या बरी पडना हें तो जाणा आशिल्लो.
तो थंय च्या पिता जाल्यार ताचे भाजपाकडेन संबंद नासुये
हाची पक्षाध्यक्षांक शंबर टक्के खात्री जाल्ली.
तरीपूण पक्षधोरणाक लागून नोटीक काडप गरजेची आसली.
नोटीस काडपाक प्रोसोर बसलो जाल्यार आनीक प्रस्न.
महाराष्ट्रवादी पक्षाचें धोरण मराठींतल्यान वेव्हार.
खलप मगोंत आशिल्लो ते म्हणसर तें बरें आशिल्लें.
पूण आतां तो सगळ्यांक घेवन काँग्रेसींत गेल्लो.
काँग्रेसिचें धोरण भायल्यान कोंकणी भितरल्यान इंग्लेज.
इंग्लेजींतल्यान नोटीस काडटलो जाल्यार सुरेंद्राक इंग्लीश जमना.
मराठींतल्यान काडटलो जाल्यार आतां ती खलपाक कळना.
कोंकणींतल्यान काडूंक गेल्यार मराप्रस ताका खाता.
आतां एकूच उपाय म्हळ्यार सरकारी धोरण आपणावपाचें.
सरकारी आमंत्रणां चार भासांनी काडटात तशी नोटीस काडपाची.
मराप्रसाक मराठी वांगडा कोंकणीय चलताली.
सरकारान कोंकणीकूय सहभाशेचो दर्जो दिला हें ते मानताले.
ताचो पुरावो म्हूण कोर्टाचो कसलो तरी दाखलो दाखयताले.
हेच संदिचो लाव घेवन सिरसाटान दोन भासो घेतल्यो.
कारणे दाखवा नोटीस आनी कारणां दाखयात नोटीस काडली
पूण ताका तातुंतली खंयची मराठी आनी खंयची कोंकणी तें कळ्ळेंना.
देखून तें सगळें घेवन तो कोंकणी अकादेमींत धांवतालो.
इतल्यान ताका जल्मीक नोटीस काडपाचो आदेश आयलो.
जल्मी पयलीं मराठी आशिल्लो, आतां संस्कृत जाल्लो.
पर्रीकार, श्रीपाद हांचेकडेन सामकी संस्कृत उलयतालो.
ताका मराठी कारणे दाखवा नोटीस कळपाची नाशिल्ली.
भासूच कळना तेन्ना कारणां कसलीं दितलो कर्मार्ची?
सिरसाटाची अवतिकाय तर टिवीवेल्या आयतारा सारकी जाल्ली.
आतांच इंग्लेज, आतांच हिन्दी, संस्कृत आनी मोन्यां खातीर बातमी दिवपी.
मोन्यां खातीर बातमी दितात तशी नोटीस दिल्यार घात जावपाचो.
ताणें चुकून हाताच्यो नाका त्यो कुरवो केल्यार घात.
तें विधानसभेंत बाबू नायक आनी शशिकला काकोडकाराक पचतालें.
मगो पक्षाध्यक्षांचो हो नोटीसेचो पेज सोंसपाचो न्हय.
नोटीस दिले बगर ताका तांचेर कारवाय करूंक मेळना.
कारवाय करिना जाल्यार ताचो राग न्हिवना.
कितलोय जाल्यर सुरेंद्रबाब आमचो कोंकणी मनीस.
म्हापशां कोंकणी संमेलनाक ताचें व्हडलें योगदान आसा.
अशा वेळार ताका पावतले ते म्हजेसारके कोंकणी मनिसूच.
म्हळें, तुमी कसलीच चिंता करूं नाकात. हांव आसां.
हांव आसां म्हणना बराबर तांकां मात्शें बरें दिसलें.
कित्याक तर आतां मगो पक्षांत ते एकटेच आशिल्ले.
आनी हांवेंय पुराय जिवितांत एकदांच पक्षांतर केल्लें.
हांव काँग्रेस सोडून मगोत गेल्यार कोण कांय म्हणचो नाशिल्लो.
आनी म्हाकाय बाबुशासारकें हें निमणें पक्षांतर म्हणपाची गरज नाशिल्ली
तशें हांव म्हणचोंय नाशिल्लों. म्हाक़ा फुडार आसा.
राष्ट्रवादी काँग्रेस पक्ष बी आतांच गोंयांत पावल्यात.
पूण हांवें प्रोसोराक स्पश्टपणान सांगलें.
हांव आसां म्हळ्यार हांव पक्षांत येवपाक ना.
हांव आसां तो तुका नोटीस कोंकणी करून दिवंक.
ते भायर म्हाका बऱ्यापैकीं मराठी बरोवंक येता.
मराठी अकादेमीच्या वांगड्यांनी वाचूंक ना तितली मराठी हांवें बरयल्या.
म्हजें बाणेदार वक्तव्य आयकून प्रोसोर शंडावलो.
मराठीचो प्रस्न येता तेन्ना कोंकणीवादीच पावतात हें ताका कळून आयलें.
हांवें कारणे दाखवा नोटीस बरोवन दिवपाक ताका पालव दिवपाचें थारायलें
माजी मगोचे शींव बाब रमाकांत खलप हांकां कारणां दाखयात नोटीस.
तुमी मगोंत आशिल्ले म्हळ्यार खंय आशिल्ले?
तुमी मगो सोडपाचो निर्णय केन्ना घेतलो?
मगो सोडून तुमी एकटेच गेल्यात काय वतना
आख्खो मगो पक्ष घेवन गेल्यात?
आख्खो मगो पक्ष घेवन गेल्यार हांव अध्यक्ष भायर कसो उरलों?
तुमी काँग्रेसींत कोणाचे सुचोवणे वेल्यान गेल्यात? सोनियाचे, लुइझीनाचे
काय रवीचे?
काँग्रेसींत वचून तुमी थंयच रावतले काय परते मगोंत येतले?
मगोंत येतले जाल्यार खासदार म्हूण येतले काय राजिनामो दिवन येतले?
मगोंत येतना तुमी एकटेच येतले काय येतना काँग्रेसच्या वांगड्यांक घेवन
येतले?
तुमी काँग्रेसींत सध्या खंयची भास वापरतात?
तुमकां कोंकणी भास आपली भास दिसता? काय थंय तुमी मराठीलाई
स्थांन द्या म्हणटले?
जर मराठीक काँग्रेसीन स्थान दिलेंना जाल्यार तुमी काँग्रेसींत बंड करतले
काय ओगी बसतले?
ह्या सगळ्या प्रस्नांच्यो जापो बेगोबेग धाडच्यो.
जर आठ दिसांभितर धाडल्योनात जाल्यार
पक्षविरोधी कारवायो केल्लेखातीर
तुमकां पक्षांतल्यान स वर्सां खातीर भायर कित्याक मारचें न्हय हाचीं
कारणां दिवचीं.
कारणां आमकां पटलीं जाल्यार पक्षांतल्यान भायर मारपाचीं वर्सां उणीं
करूं येतलीं.
कित्याक, हो पक्ष स वर्सां तिगत हाची म्हाकाय खात्री ना.

प्रा. सुरेंद्र सिरसाट
अध्यक्ष
महाराष्ट्रवादी गोमंतक पक्ष

# पिके

□ काशिनाथ शांबा लोलयेंकार

अल्कोहॉलीक पिके. कलिग म्हजो. सोंपलो.
एक दिल कहा मेरी मंझिल ना कोई दिपक है, ना कोई तारा है...
हें गाणें तायट जावन म्हणपी पिके. सोंपलो.
एक गाणें सोंपलें.

आपली मंझिल सोदपाचो तेणें केलो खूब यत्न.
जसो रातचो कितलोय तायट जावं
फांतोडेर उठ्ठालो तो पांचांक. वयतालो मॉर्नीक वॉकाक.
एक पेग मारून.
हेल्दी उरपाक आपूण मॉर्निंग वॉक घेतां हें तो सांगतालो नेटान.
खातालो पियेले उपरांत चीज. चीज खावन आपल्याक
कितली शक्त येयल्या हें तो दाखयतालो आमकां.
फुलोवन हातिचें मसल किडकिडीत.

एका तेंपार सामको वाग करपाक काम.
तोच पिके पियोन-पियोन जाल्लो नाकाम.
नदर जाली अधू. हाताक थरथर.
पंचेचाळिसी उलटचे आदींच तो मेलो.
आनी पंचेचाळीस वर्सां फाटीं गेलो.
तो खूब आदीं मेल्लो.
तो परत आनीक एकदां मेलो.

तेका कसलें दुख्ख आसलें?
सांगतालो तो आपलो एकुलतो चलो जल्म जातांच मेलो.
तेन्नाच्यानूच आपूण खऱ्यांनी पियोवपाक लागलों.
कदाचित थंयच्यानूच तेका दुख्खाची संवंय जाल्या आसतली.
दुख्ख जावप आनी दुख्खाची संवंय जावप.

अशें पियेवप चूक हांव तेका म्हणटालों.
चूक कितें आनी बरोबर कितें तो म्हाका म्हणटालो.
हांव म्हजी जीण जगतालों.
तो आपली जीण जगतालो.
आमचे मदीं धागो आसलो तो फकत उध्वस्ततेचो.

म्हाका मानतालो तो. हांवें तापयल्यार काडी नासलो एक ब्र.
उपरांत म्हणटालो तुका कळचें ना तें.
म्हाका खरेंच कांयच कळोंक ना.
कळोंक ना पिके. कळोंक ना जिणेचो अर्थ.
पिके मेलो. पूण पिकेचो पंच्यात्तर वर्सांचो बापूय
अजून आसा जितो.

पिकेन जिणेंत खूब केलें. मोग केलो. लग्न केलें. भुरगीं केलीं.
सोरो पियेवपाच्यो पैजी मारल्यो. मटको खेळ्ळो. फ्रॉड केलो.
सस्पेंड जालो. हांथरुणार पडलो. मर्णाकडेन आमिजाद केली.

तो मेलो. पूण तें कळ्ळें म्हाका दोन-तीन दिसांनी.
पेपरांतले मर्णाचे जायरातीवयल्यान.
पेपरांत तेचो फोटू छापलेलो तो तरनाटो आसतनाचो.
तो फोटू दिसतालो सामको वेगळो.
आनी हांव वळखतां तो पिके आसलो वेगळोच.

फोटवार मेला तो पिके म्हाका स्ट्रेंजर आसलो.
हांव जेका वळखतां तो पिके मरोंकूच ना काय कितें?

हांव बसलां पिकेचेर कविता बरोवंक. हेचो अर्थ हांव कितें
सोरोबंदीचेर कविता बरयतां अशें न्हू.
तेचेर हांवें ही कविता बरयल्या हें पिकेक खबरूच नासतलें.
कारण तो आतां आसतलो नशेंत.
स्वर्गांत वा नरकांत.
वा म्हज्या काळजांत.
गायत :
ना पुछो कोई हमें जहर क्यूं पी लिया
जहर ये पी लिया तो थोडासा जी लिया.

# हांव कोंकणी कडेन कसो पावलों

फेलीस्यु कार्दोज

१९४० दसकांतल्या वर्सांनी पणजी शारांत सालेजियन संस्थेचो एक फांटो सुरू केल्लो. ते संस्थेंत कांय इतालियान पाद्री तशेंच गोंयकार पाद्रीय आसले. ते विद्यालय चलयताले आनी दर आयतारा ''आयताराचें वाचप'' नांवाची ८ पानांची ल्हान पत्रिका उजवाडायताले. ती रोमी कोंकणींत आसताली. तिचेर धर्मीक खबरो, कविता आदी बरपां आसतालीं. तिच्या निमाण्या पानार 'शिरपुटां' माथाळ्याचो एक विभाग आसलो. ह्या विभागांत ल्हान-सान गमतिच्यो खबरो, फकाणां आनी हुमाणीं आसतालीं. हुमाण्यांचो सारको जबाब दिवप्यांक इनामां दिताले. ल्हान पुस्तिका, धर्मीक चित्रां जिखणारांक टपालांतल्यान इनाम म्हणून धाडून दिताले. म्हाका 'शिरपुटां' हो विभाग चड आवडटालो. हांव तो रुचीन वाचतालों. 'आयताराचें वाचप' साताळ्याचो संपादपी सर्गेस्त पाद्री कायतान लोब आसलो. (थोडो काळ पाद्री आल्वारु रेनात मेंदिश त्या नेमाळ्याचो संपादक जाल्लो.) कोंकणी वाचप करपाची म्हाका पयली ओड लायली ती ह्या 'आयताराचें वाचप' नेमाळ्यान.

तेन्ना हांव १२-१३ वर्सांचो शिकपी भुरगो.

उपरांत, केन्ना केन्ना हांव 'वावराड्यांचो इश्ट' आनी मुंबयंत उजवाडा येवपी 'गोअ मेल', 'आवे मारीय', 'गोअ टायम्स', 'उदेंतेचें नखेत्र' हीं नेमाळीं वाचतालों. ते मुस्तींत मुंबय शारांत एस्. एफ्. विजार्ड हाणें 'गोअ' नांवाचें रोमी कोंकणींत साताळें सुरू केल्लें. हो विजार्ड गांवान नावेलेचो आनी ताचें खरें नांव सांतान फेर्नांदीश. तो राष्ट्रवादी आसलो. पुर्तुगेज सरकाराच्या दोळ्यांक पानां बांदचे खातीर ताणें वर्तमानपत्रां पासत आपलें खरें नांव बदल्लेलें. हांव ताच्या पत्रार गोंयच्यो खबरो, लेख बरोवन धाडूंक लागलों. तेच परी 'न्यु गोअ', 'सत', 'गोल्डन गोअ' आनी 'संतोस' ह्या रोमी कोंकणी साताळ्यांचेर हांव बरोवंक लागलों. तेन्ना म्हजी पिराय १५-१६ वर्सां. 'गोअ' पत्रार केन्ना केन्नाय पुर्तुगेज सरकारा आड बरपां परगट करतात देखून तें पत्र गोंयांत येवपाचें त्या सरकारान आडवारलेलें.

तेन्ना हांव मडगांवां लिसेव शिकतालों. शिक्षण पुर्तुगेजींत. त्या काळार हांवें एक पळेलें. कोंकणी उलयल्यार क्रिस्ती उंचल्या समाजांतले लोक तोंड वांकडे करताले. कोंकणी 'क्रियादांची भास' म्हणून ते हे भाशेक हिणसायताले. म्हजे कडेन सडसडीत पुर्तगेज उलोवंक वा ती नीट बरी बरोवंक जायनासली. जितले सोंपेपणीं म्हजे विचार म्हज्यान कोंकणींत व्यक्त करूंक जाताले ते परीं पुर्तुगेज भाशेंत म्हज्यान करूंक जायनासले. पुर्तुगेज लोक आपली फिरंगी भास बरी उलयतात, कित्याक, ती तांची आवय-भास. तांणी आपली पुर्तुगेज भास उलयल्यार आमी तांकां तोखेतात. पूण गोंयकारांनी आपली आवयभास – कोंकणी भास – उलयल्यार तांकां कित्याक हिणसावप, अशें हांव चिंततालों. गोंयांत पुर्तुगेज सरकारी आनी धर्मीक अधिकाऱ्यांनी कोंकणी भाशेक चिड्डून दवरली. गोंयांत मुळावें शिक्षण पुर्तुगेजींत दिताले. कांय मराठी आनी उर्दू प्राथमीक शाळा लेगीत आसल्यो. पूण कोंकणी मुळाव्यो शाळा गोंयांत कित्याक नात? म्हाका प्रस्न पडटालो. कोंकणींत शिक्षण दिल्यार सामान्य लोकांचे दोळे उकते जातले आनी फुडाराक ते पुर्तुगेजांच्या वसणुकवादा विरुदध आनी तांचे हुकुमशाये आड चळवळ करीत म्हण सरकारी अधिकाऱ्यांक आनी गोंयकार 'मोट्या बाबां'क हुस्को आसलो. जायते गोंयकार 'व्हडले बाब' म्हणटात त्या पुर्तुगेजांचे पांगीक रावन गरीब-धाकट्यांक पिळटाले. कोंकणी भाशे सवें चलता तो अन्याय, पुर्तुगेजांचो जुलूम गोयांतलो सोंपोवंक जाय म्हण म्हज्या कंवळ्या मनाक दिसलें. आनी हांव गुपतीं गोंयचे सुटके चळवळींत वांटो घेवंक लागलों. कोंकणीकडेन चडांत चड लोकांक ओडून हाडचे खातीर हांव 'तियात्र' बरोवन माचयेर हाडूंक लागलों. १९५० ते १९५३ वर्सांचे मजगतीं हांवे तीन तियात्र बरोवन माचयेर दाखयले.

मुंबयंत उजवाडाक येवपी चडश्या रोमी कोंकणी नेमाळ्यांचेर हांव नेमान बरयतालों. तेन्ना 'परजेचो आवाज' हें रोमी कोंकणी नेमाळें पुण्यांत उजवाडा येतालें. ताचो संपादपी बाकीबाब बोरकार आसलो. मुंबय शारांत श्री. तेलु दे माश्कारेन्ञश 'रेसूर्जि गोअ' (Ressurge Goa) हें पुर्तुगेज नेमाळें उजवाडायतालो. हीं दोनूय राष्ट्रवादी नेमाळीं गोंयांत येनासलीं. पुर्तुगेज सरकारान तांचेर बंदी घाल्ली. पूण थोडे देसभक्त गोंयकार तीं नेमाळीं गुपतीं गोंयांत हाडून कोणा-कोणाक वांट्टाले. हे वरवीं तीं पत्रां म्हाका वाचूंक मेळटालीं.

१९५४च्या माय म्हयन्यांत एक पुर्तुगेज मंत्री गोंयांत आयिल्लो. तो एका दिसा कोलव्यां वेळेर वचपाचो आसलो. ती खबर म्हाका म्हज्या इश्टान, सर्गेस्त नून वियेगशान एके राती दिली. ते राती आमी 'क्वीट गोअ' बरोवन ३-४ तकटे तयार केले. लुगटाचेर आनी कागदांचेर अक्षरां हांवेंच चितारलीं आनी उपरांत ते कोलव्यां मुखेल रस्त्यार खांब्यांक आनी झाडांक लायले. म्हजेकडेन रुखार चडूंक जायना देखून हांवें म्हज्या गांव-भावांक – जासींत सौज आनी फेर्नांद गोमिश हांकां – व्हेले. ते माडाचेर वा हेर रुखांचेर चडपाक खांपे आसले. नून वियेगश, जॉर्ज आंद्रादि, जुजे लूर्दिश गोमिश, फेर्नांद गोमिश, जासींत सौज आनी हांव आसले. हातुंतलो हांव एकलोच आयज ह्या संवसारांत आसां.

कांय दिसांनी गांवच्या एका मनशान, जाका म्हज्या ह्या कार्याची खबर आसली, पुलिसेक दाद दिली. आनी १६ जून १९५४ ह्या दिसा, सांजेच्या सुमार चारांक, अचकीत 'आजेंत' काजिमीर मोंतेर आनी 'काब' वियेगश म्हज्या घराकडेन आयले आनी म्हाका धरून मडगांवच्या क्वार्तेलार व्हरून कैदी केलो.

[चलता]

साहित्य नियाळ

# वेंचीक पुंडलीक :

## अभ्यासकांक प्रसन्न करपी संपादन

डॉ. सु. म. तडकोडकार

कोंकणी भाशा मंडळान कोंकणी भाशेचे जतनाये खातीर जी तकालस घेतल्या तिका तुळाच ना. आयज मेरेन साहित्यीक आनी संस्कृतीक मळार वावर करून कोंकणी भाशा मंडळान नामना जोडल्याच. खेरीज, एके तरेचें समृद्ध दायजय निर्माण केलां.

ह्या मंडळान कोंकणीचे उदरगती खातीर साहित्यीक बरपावळ उजवाडावन हाडपाचे विवधांगी उपक्रम केले. काव्य, कथा, भाशाशास्त्र, इतिहास, समाजशास्त्र अशा विंगड विंगड मळांवेली बरपावळ उजवाडावन अभ्यासकांक मोलादीक अभ्यास-साधनां उपलब्ध करून दिल्यांत.

कोंकणी भाशा मंडळान एखाद्र्या बरोवप्याची वेंचीक बरपावळ उजवाडावन हाडपाचो उपक्रम 'वज्रलिखणी'च्या निमतान सुरू केल्लो. कोंकणीचो कुळपुरूस वामन रघुनाथ वर्दे वालावलीकार (शणै गोंयबाब) हांगेले बरपावळींतले वेंचीक वांटे 'वज्रलिखणी' ह्या संपादनांत आयिल्ले. भौ. शांताराम वालावलीकार हांणी ते निमतान कोंकणींतलें एक देखणें संपादन केल्लें.

कोंकणींतलो एक फाकिवंत बरोवपी, पुंडलीक नारायण नायक हांचे वट्ट बरपावळींतलो वेंचीक भाग उजवाडावन हाडपाचो एक तकालसपुराय उपक्रम भाशा मंडळान पर्थून एक फावट केला. ते निमतान 'वेंचीक पुंडलीक' हें प्रसन्न करपी संपादन अभ्यासकांक उपलब्ध जालें, अशें म्हणन दिसता.

'वेंचीक पुंडलीक' पुस्तकांत दोन विभाग आसात. पयल्या विभागांत भौ. नायक हांचे वट्ट बरपावळींतल्यान वेंचून काडिल्लें लिखाण येता. तातूंत 'देंठ', 'माड', 'काणी एका माजराची' आनी 'खेळ' ह्यो चार कथा आसात. 'एका जुंव्यार जंय' ही एकांकी, 'श्री विचित्राची जात्रा' हें नाटक आनी 'रानसुंदरी' हें बालनाट्य ह्या विभागांत आस्पावता. वांगडा 'दायज' ही नवलिका, तशेंच 'भुताची परंपरा, परंपरेचें भूत' आनी 'गोंयच्या सैमाची आमचेकडेन इश्टागत' हे दोन निबंदय वाचूंक मेळटात.

ह्या संग्रहांतल्या दुसऱ्या विभागांत साहित्यीक नायक हांणी केल्ले बरपावळिचेर प्रा. भूषण भावे, प्रा. बाळकृष्ण कानोळकार तशेंच प्रा. प्रियदर्शिनी तडकोडकार ह्या समिक्षकांचे लेख आसपावतात.

पयल्या विभागांत चार कथा येतात. कथाकार नायक हांच्यो वट्ट ३४ कथा आशिल्ले तीन संग्रह (**पिशान्तर**, साहित्य प्रकाशन, मडगांव, १९७७; **मुठय**, सेवा समिती प्रकाशन, मडगांव, १९७७; **अर्दूक**, अपुरबाय प्रकाशन, वळवय, १९८९) उजवाडा आयिल्ले आसात. खेरीज, तीन-चार कथा असंग्रहीत आसातच. म्हणटकच चार कथांची वेंचणी तशी सोंपी नाशिल्लीच. 'देंठ' ही आत्मगतता लाबिल्ली कथा. खरें म्हळ्यार ही कथा पुंडलीक नारायण नायक ह्या कोंकणी कथाकाराचें प्रतिनिधित्व करता अशें दिसना. खीणभर अशें दिसता, चार पानांतच सोंपिल्ली ही कथा 'वेंचीक पुंडलीकां'तल्या पानांची संख्या मतींत दवरून वेंचिल्ली आसुंये. निखटो पानांचो अदमास दवरून कथेची निवड करची आशिल्ली जाल्यार 'हार' ही चार पानांची कथा चलतली आशिल्ली. तिचेय परस 'बळार' ही तीन पानांची कथा मेळटली आशिल्ली. खरें सांगपाचें म्हळ्यार, 'मरण इतलें सुंदर आसता' ही कथा संपादप्यांक, तांचे संवेदनेक, तांचे जाणविकायेक खंयच स्पर्श करूंक पावलीच ना ? कशी ? कित्याक ? अशे प्रस्न सतायतात. तेच भशेन 'खळ' हे कथेबदला 'कासय' ही कथा वेंचिल्ली जाल्यार कथाकाराच्या भाषाविष्काराचें एक तास अभ्यासकां मुखार येतलें आशिल्लें. 'मरण इतलें सुंदर आसता ?' कथेंतलो कथागत अणभव हे कथेचे संहितेक साकार कसो करूंक पावलो? हो प्रस्नय कितलो सुंदर! हे कथेंतली कथागत प्रतिमा होवूय अभ्यासाचो एक विशय जावं येतालो. गोंयच्या खारवी समाजाची जीण चितारपी 'कासय' ही कथा कथाकाराच्या वास्तवताय आनी नैतिकतायेच्या तत्त्वांकडेन आशिल्ले लागणुकेचो परिचय दिता. 'कासय' कथेंत नैतिकतेचें, कथाकाराच्या दिश्टिकोणाचें संघटनतत्त्व साकारिल्लें आसा, तितलें 'खळ' कथेंत साकारून आयिल्लें आसा अशें म्हणनशें दिसना. 'माड' कथा गोंयच्या मीन-वेवसायान जी वट्ट समश्टिचेर हावळ हाडल्या ते वास्तवतेकडेन अंगुलीनिर्देश करपी कथा. कथाकारान ही रचना आशय आनी अभिव्यक्ती हांची अभिन्नताय बरे तरेन परगटायल्या. खेरीज कलात्मक अलिप्ततायेचें बंधनय समाधान दिवपाइतलें पाळिल्लें आसा. देखून ही कथा ह्या संपादनांत आस्पावन घेतली देखून संपादप्यांक देव बरें करूं अशें म्हणन दिसता. 'काणी एका माजराची' कथा बरोवप्याच्या प्रकृतिधर्माचें प्रतिनिधित्व करता अशें दिसना. पूण ही कथा म्हळ्यार एक अर्थपूर्ण आकृतिबंध म्हूण ह्या वेंचीक संग्रहांत आस्पावल्या आसुंये. हे कथेची विशेशताय म्हळ्यार ती तशी संदिग्ध वा भोंगळ जावंक ना. खेरीज, कथासूत्र आंतरिकतायेनच फुलत वता.

नवलिकेचे वेंचणेंतय मात्सो गोंदळ जालासो दिसता. पुंडलीक नायकांत जी वृत्तिची प्रादेशिकताय आसा ती तांच्या कथांतल्यान दिश्टी पडटाच. खेरीज नाट्यपुराय शैली तांच्या लेखनांतल्यान दिसता. ह्या दोनूय गजालिंचें

पडबिंब तांचे 'दायज' हे नवलिकेंत पडटा. म्हणटकूच तातूंत एके तरेचें 'डुप्लिकेशन' जाल्लें आसा, अशें म्हणपाक सुवात उरता. देखून हे नवलिकेबदला जर नवलिकाकार नायक हांची 'बांबर' वा 'अच्छेव' हे नवलिकेची निवड जाल्ली जाल्या नवलिकाकाराचीं व्यक्तिचित्रणां आनी मानवी मनाच्या साबार प्रवृत्तींक आवाहन करपाची तांक ठसठशीतपणान अभ्यासकांमुखार येतली आशिल्ली. नवलिकेच्या रुपकारा संबंदान आमच्या मनांत कांय कल्पना आसात त्यो ह्या नवलिकाकारान कांय प्रमाणांत हालोवपाचो यत्न केलो, ते विशिंची वळख अभ्यासकांक जावंक पावतली आशिल्ली.

ह्या 'वेंचीक पुंडलीक' संपादनांत कविता-गीतांचो विभाग बेस बरो जमला अशें मनासावन म्हणन दिसता. चार-पांच कवितांची भर घातिल्ली जाल्यार कवी नायकाची भाववृत्ती आनी तांचे भावकवितेंतली वेवस्था सुस्पश्टपणान दिसूंक पावतली आशिल्ली. ह्या कविच्या रचनांनी शब्दरुपांची उत्कटताय जितली प्राणभूत तत्त्व जावन येता तितली तांच्या कथांतल्यानय दिसता. हे विशिंची तुळा करपाक एक विस्तृत बसका मेळटली आशिल्ली. ह्या कविच्या रचनांनी एक आर्त लय भरून आसा, हेंय होलमतलें आशिल्लें. पूण ही आर्त लय सौंदर्यवादी संवेदनशीलतायेक लागिंची नासून अस्तित्ववादी संवेदनशीलतायेक लागसार दवरपी आसा.

'रानसुंदरी' हें बालनाट्य म्हळ्यार बालसाहित्यकार पुंडलीक नायक हांचें एक सनातन तास. ताचें दर्शन ह्या 'वेंचीक पुंडलीक' संपादनांत पर्थून एक फावट जालें. परंत एकांकी वेंचतासतना 'एका जुंव्यार जंय' निवडचे बदला 'वाटचुको वाटसुरो' ही असंग्रहित एकांकी घेतिल्ली जाल्यार एकांकीकार पुंडलीक नायकांतल्या तात्त्विक विचारवंताचो परिचय जावंक पावतलो आशिल्लो अशें दिसता.

'श्री विचित्राची जात्रा' हें वाचप्याक अंतर्मुख करपी नाटक. मनशाच्या अस्तित्वाचो आनी ताच्या अस्तित्वांत आशिल्ल्या चिरंतन वेदनेचो सोद घेवपाचो यत्न ह्या नाटकांत बऱ्याच अंशान फळादीक जाला. आंतरिकपणानच कथासूत्र फुलत-फळत गेल्लें आसा. देखून नाटककार नायकाचे प्रगल्भतेची कुरू दाखोवपी हें नाटक ह्या संग्रहाखातीर वेंचून संपादप्यांनी आपणालीय प्रगल्भताय दाखयल्या, अशें म्हणन दिसता. हो नाटककार पुराय भारतीय संस्कृतायेचो राखणदार; परंत हें नाटक चिके हेर प्रकृतिचें. ते हतबुद्ध अवस्थेचें प्रतीक. दुख्खभोगाचो ध्यास घेवपी नाटक हें. ह्या नाटकांत 'कोणतरी' म्हणटा – ''मेळ्ळें. पापणीचें दूक मेळ्ळें. बाकीचीं सगळीं दुकां मातयेंत भरसलीं पुण हें एकूच मेळ्ळें. ह्या फातराचेर दूक अरसता आसतना फातराच्या काळजांत कितें भगभग पेटला आसतलो ! पुण मनशाचीं काळजां हाजेपरस कितलीं निबर ! पापणीचें दूक शेणलां ! दुकांत कुळार शेणलां !'' खंय तरी हें नाटक जिणेची भीषणताय गडद करता. देखून तें अभ्यासकाकूय व्याकूळ करून सोडटा.

ह्या संग्रहाच्या दुसऱ्या विभागांत जें समिक्षात्मक लिखाण आस्पावलां, तें मात तितलें समाधान दिता अशें म्हणूं नज. ह्या विभागाचें शीर्षक 'मोलावणी' अशें आसा. परंत मोलावणी, म्हळ्यार मूल्यमापन करता आसतना जी वस्तुनिश्ठताय लागता ते मानसिकतायेचो मोलावणेंत अभावच दिसता. साहित्यीक पुंडलीक नारायण नायक हांचे वट्ट बरपावळिचें मूल्यमापन करूंक सोदपी प्रा. भावे, प्रा. कानोळकार वा प्रा. प्रियदर्शिनी तडकोडकार हांकां सैद्धान्तिक समिक्षण करपाची समजच ना, अशें म्हणप साप्प अन्यायाचें जातलें; परंत तांणी साहित्य समिक्षा करतासतना साहित्यकृतिंचें विश्लेषण आनी मूल्यमापन ह्यो दोन गजाली नदरेआड कश्यो केल्यो, हें मात म्ह अल्पमतीक कळना.

खरें म्हळ्यार साहित्यीक नायकाचे बरपावळिचें समिक्षण करता आसत बरपावळींत जे संकल्पना-व्यूह आसात तांची वस्तुनिश्ठ चिकित्सा करपा गरज आशिल्ली. असले बरपावळिचें मूल्यमापन करता आसतना मानसिकताय जाय पडटा आनी ज्या साहित्यिक पर्यावरणाची गरज आस ते विशीं हांवें म्हजें मत्त हेर माध्यमांतल्यान (जाग, ऑगस्ट १९९ पा. ८) आदींच उकतायिल्लें आसा. प्रा. कानोळकार आनी प्रा. प्रियदर्शि तडकोडकार हांणी अभ्यास करपाच्यो दिको दाखयल्यात. देखीक, ''तां कवितेंत नाटक आसा जाल्यार नाटकांत कविता, कथेंत नवलकथा जाल्य नवलकथेंत कथा; नवलकथेंत नाटक जाल्यार कथेंत रेडियो-नाटक, अ तरेची गुंतवळ जाल्ली नदरेक पडटा. ताकाच लागून संतुस्ट जाव नाशिल्ल्यान जावंये, ताणें आपल्या साहित्याचे विविध प्रकारांतल्यान रुपक केल्ले पळोवंक मेळटात'' अशें प्रा. कानोळकार (वेंचीक पुंडलीक, पा २४२) म्हणटात तेन्ना पुंडलीक नारायण नायक ह्या साहित्यिका मानसिकतेचो सोद घेवपाचीय ते दिका दाखयतात. ''पुंडलीक नायका बरपावळीक बेस बरो न्याय दिवपाखातीर कांय प्रमाणांत 'नेटिव्हिज ह्या साहित्यिक संप्रदायांतलीं तत्त्वां चड उपकारक थारू येतात... ते निमतीं 'वसाहतवादी' विचारांचो नव्यान विचार करपाची संद मेळटा'' अशें प्रियदर्शिनी तडकोडकार हांणी म्हळां (पा. २६०). कोंकणी समिक्षण अद्याव करपाची ही दिका तांणी दाखयल्या अशें म्हणप समा जातलें. तशें पुंडलीक नारायण नायक हो साहित्यिक पुंडलीक नारायण नायक को जालो, ह्या प्रस्नाची जाप सोदपा खातीर ताका समकालीन आशिल्ल्यांचा उल्लेख कसो टाळूं येत ? ह्या साहित्यिकांचें अनन्यसाधारणपण सोदपा यत्नय करूंयेता म्हणपाची ह्या साहित्यिकाच्या बरपावळिची आनीक दिका. पूण प्रा. भावे हांणी तर मुदलांत पुंडलीक नारायण नायक लेखकाच्या अस्तित्वान पुराय चेपणाखाला आयिल्ले वरी निखटें परिचयर लेखन केल्लें आसा, हातूंत दुबाव ना. खरें सांगपाचें म्हळ्यार, प्रा. भ हांणी हें संपादन करचे पयलीं समिक्षणपर सुरबूस बरप केल्लें आर तांचे बरपावळींत बौद्धिक कुशळताय आसता. देखून ह्या संपादना निमतान तांणी तितल्याच सदच्या सभावीक आत्मविस्वासान समिक्षण केलें जाल्यार वा तांकां तशी संद मेळिल्ली जाल्यार पुंडलीक नारायण नाक ह्या साहित्यिकाक एक समर्थ समिक्षक मेळटलो आशिल्लो. प्रा. भावे हीं ही संद सादची अशें मनाथावन सांगनशें दिसता.

एखाद्रो 'वेंचीक संग्रह' उजवाडायतना जितलीं आडमेळीं येवं येत तितलींय 'वेंचीक पुंडलीक' हो संग्रह उजवाडायतना आयिल्लीं आसतीं. देखून, कितेंय जावं, कशेंय जावं, मुखेल संपादपी भौ. राजू नायक आ तांचे समर्थ सहाय्यक प्रा. भावे आनी ज्योतीबाय कुंकळकार हांणी कोंक भाशा मंडळाचें दायज बेस बरें फुडें चलयलें म्हणपाक 'वेंचीक पुंडली संग्रह गवाय आसा, अशें म्हणनशें दिसता.

**वेंचीक पुंडलीक**
**कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय, १९९९**
**पानां : २६४**
**मोल : २२५/-**

गुरुर्ब्रह्मा गुरुर्विष्णु गुरुर्देवो महेश्वरः ।
गुरुदेव परब्रह्म तस्मै श्रीगुरुवे नमः ॥

आमच्या देसांत व्यासांसावन गुरू-शिश्य
परंपरा सुरू जाली. ही परंपरा
आयज मेरेन चलत आयल्या. हे परंपरेचो
गोंयाक आदर आसा. देसाच्या आनी
संवसाराच्या कल्याणा खातीर समाज
गिन्यानी जावचो अशी रुशीमुनिंची नदर आसली
गोंय सरकारूय हे नदरेक पाळो दिता आनी
समाजाचे गरजेप्रमाण, भारताच्या गिरेस्त दायजाक
सोबसारकें गिन्यात ताका दिवप
ही आपणाली लागणूक समजता.

... गोंय, एक आधुनिक कल्याणकारी राज्य.




**गोंय सरकार**

माहिती आनी प्रसिद्धी खात्याचे वतीन उजवाडायल्या

REG. No. GOA 130



Printed at New Age Printers, Santa Cruz, Goa. Ph 223924 & 222063